# उतरांचो संवसार

(दिसपटी)

पांडुरंग भांगी




गोवा कोंकणी अकादेमी

उतरांचो संवसार
दिसपटी

लेखक :
पांडुरंग भांगी

प्रकाशन क्र. 83



पयली आवृत्ती :
2006

प्रकाशक :
गोपाळकृष्ण पाडगांवकार
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय - 403 001

मुखचित्र आनी अस्तर कव्हर :
वासुदेव दिवकार

अक्षरजुळणी :
ज्योती गांवकार

मुद्रक :
ब्ल्यू क्यूब प्रिंट ॲण्ड पॅक प्रा. लि.
दिवचल - गोंय

**मोल :रु 40 /-**

Utrancho Sanvsar
Diary in Konkani

written by
Pandurang Bhangi

Publication No. 83



First Edition:
2006

Published by :
Gopalkrishna Padgaonkar
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony,
Panaji, Goa. 403 001

Cover Design & Inside Cover:
Vasudev Divkar

Typesetting :
Jyoti Gaonkar

Printed by
Blue Cube Print & Pack Pvt. Ltd.
Bicholim - Goa:

**Price: Rs. 40 /-**

# अकादेमीचे वतीन...

पांडुरंग भांगी! कोंकणी भास आनी साहित्यांतलें एक लक्षणीय व्यक्तिमत्व. एक कवी, एक कोशकार, एक अणवादक अशा भूमिकानी ताणी कोंकणी मळार योगदान दिलां. कोंकणी भाशेच मुळावेंपण, निजपण, जडण-घडण हांचे बाबतींत बरोवपाचो पयलो अधिकार शणै गोंयबाब हांचो जाल्यार दुसरो अधिकार भौ. पांडुरंग भांगी हांचो अशें म्हणल्यार अतिताय जांव नये.

गोवा कोंकणी अकादेमी मुखार ताणी 'शब्द सागर' ही कोंकणी कोशाची आगळी-वेगळी कल्पना मांडली आनी मुखार व्हेली. दोन खंड तयार करून उजवाडा आयले पूण तांगेल्या जाण्टेपणांक लागून आनी बिगडिल्ले प्रकृतीक लागून तिसरो खंड अर्दकुटोच उरलो. तांगेल्या आशिवार्दान 'शब्द सागर' चो मुखावयलो वावर फुडें वचपाचो आसा.

कोशाच्या क्षेत्रांत ताणी कोंकणीक भूशण थरपी असो वावर केला त्या भायर देशी आनी परदेशी भाशांतल्यो अन्नांवर साहित्यकृती कोंकणीत उतरायल्यात. अणकार हो लेगीत सर्जनाचोच एक उत्कृश्ट प्रकार म्हणपाचें दाखोवन दिलां. तरी लेगीत तांचो मूळ पींड कवीचो. हेर कामाच्या व्यापांत, प्रतिकूल परिस्थितींत तांचे काव्य रचनेंत खंड जरूर पडला. पूण काव्याकडली तांची निष्ठा, आदर, प्रेम एका कणानूय उणें जाल्लें दिसना. साहित्य अकादेमीन काव्याखातीर तांकां साहित्य अकादेमी पुरस्कार भेटोवन तांचो गौरव केला.

आतां गोवा कोंकणी अकादेमी 'उतरांचो संवसार' ही तांगेली दिसपटी पुस्तक रूपान उजवाडा हाडटा. ही दिसपटी आसली तरी तिका सातत्य ना. केन्ना दिसलां, मनांत आयलां, भावलां त्या प्रमाण बरप जालां. बरप खूब आशिल्लें. थोडें श्री. दिलीप बोरकाराच्या 'बिम्ब'च्या दिवाळी 2002 अंकांत उजवाडाक आयिल्लें. सगळें बरप बरोवप्याचे मान्यतायेन संकलीत आनी संपादीत केलां. ह्या वावरांत स्वता बरोवपी तशेंच श्री. नागेश करमली, श्री. माधव बोरकार, श्री. रमेश वेळुस्कार आनी डॉ. सुधीर तडकोडकार हांचो मोलाचो आदार लाबला. अकादेमी तांगेल्या उपकारांत आसा.

'उतरांचो संवसार' हे दिसपटेंत श्री. पांडुरंग भांगी हांगेली 'जीवनदृष्टी' दिसता. तांकां वळखुपाक आनी पारखुपाक ह्या पुस्तका सारखें दुसरें साधन ना.

कोंकणी साहित्यांत श्री. रवीन्द्रबाब केळेकार हांगेली 'वेळेवयल्यो घुलो' ही दिसपटी एक 'मायलस्टोन' थारला. आपणाल्या वेगळेपणाक लागून 'उतरांचो संवसार' दिसपटी शिल्पकृती थारतली अशी आस्त आसा.

**पुंडलीक नायक**

अध्यक्ष

30.9.1945

## माण्डवी तूं उठ

माण्डवी,

फांटोइडेच्या पारार, जेन्ना तूं पणजे शाराक आपल्या दाव्या कुशीत घेवन, मळबाच्या निळ्या पांगरूणामुळा न्हिदिल्ली आसता, त्या वेळार तुका पळेतकीर काळीज कळवळटा.

चोयवाटेन सगळ्याक शांतताय पातळ्ळेली आसता. नक्षत्रां आजुनय तुज्यांत आपलें रूप ओखेतात. तुज्या उदकांत कसलोच खवदळ नासता, कसल्योच चायोबोयो नासतात, अशा वेळार तुगेल्या काळजान सोडिल्ले ते दुखेस्त हुस्कारे आयकतकीर, दोळे सामके भरून येतात.

तूं तरी खंयच्या तोंडान, कित्याक म्हूण आनी कोणाक तरी तुगेली दुःखां सांगतली? कांय दुःखांच सांगपासारकीं नासतात. अन्तराकच समजतात तीं न्हय?

दूदसागराच्या धव्याफुल्ल दुदांतल्यान प्रगट जाल्ली गोमती तूं. पैलोवैलोच पवित्रतायेन उपाट भरिल्ल्या त्या रूशीन, आपल्या खोल आनी खणखणीत ताळ्यान, गोड अमृताच्या उतरांनी, तुज्या कानांत जेन्ना मंत्र सांगलो, तेन्ना माण्डवी, तूं कितल्या खोशेन भुरकुटली जातली, कितल्या उमाळ्यान तूं धांवल्या जातली. तणान तुज्या पांयांकडेन आपली तकली बागोवन, तुजें उदक तीर्थ म्हणून घेतलां जातलें. सवण्यांनी तुज्या देगेर बसून आपल्या गोड आनी नकसूद ताळ्यान सोबीत बरीं म्होंवाळ गीतां गावन तुका येवकार दिला जातलो. आनी इल्ली इल्ली रूंद जायत तूं फुललेल्या हड्ड्यान गोमन्त समुद्राक मेळल्या जातली, त्या वेळार आपले वेंगेंत घेतिल्ल्या ह्या तुज्या भुंयेच्या, गुणाच्या, रूपाच्या आनी कर्तुत्वदशेच्या अभिमानान, माण्डवी, तूं लकलकली जातली!

राष्ट्रकूट सम्राटाच्या पराक्रमांची घुडी उबारपी गोंय, आपल्यापणाच्या अभिमानान फुल्लेलें, भाग्यवंत आनी शिरवंत गोंय तुगेल्या भुंयेंत वशिल्लें पळोवन तूं मनांतल्या मनांत खोशेली जातली.

आनी सांज-सकाळ, कदंबाच्या रावळा मुखावेल्या शेज्यावेल्यान पराक्रमाची स्फूर्त देण्या चौघुड्याचो नाद, धाय दिशांनी फांकारून, तांचो पडसाद तुज्या वळणा वळणांतल्यान गाजला जातलो. तुज्या कणाकणांतल्यान वाजला जातलो.

दुसऱ्या दिसा पैलींवैलींच गोंयचीं तारवां नवो पराक्रम गाजवंक, नवीं जैतां जोडूंक, शिडांच्यो छातयो फुगोवन, तुज्या मुखांतल्यान भायर सरतालीं. तुज्या गोमन्त समुद्राच्या सेवेक बन्धावरी देडा पांयार तयार आशिल्ल्या वाऱ्याच्या सुवादीन धिरान, विश्वासान तुवें तीं केलीं जातलीं. त्या वेळार तुज्या उदकांत, तुज्या काळजाच्या हारशार उठिल्लीं तांचीं रूपां पळोवन, तुज्या पवित्र उदकाचीं ल्हारां तांच्या भोंवतणी उवाळून उडवन. तुवें तांची दिस्ट काडल्या जातली! आनी भायल्या भायल्या मुलखांनी स्वतंत्रतायेचो तुरो लावन, जैताची घुडी उबोवन, आनी नामनेची कीर्त जोडून तीं परतल्लीं पळोवन, तुवें तुज्या मोमन्त समुद्राच्या जोडयेक तांकां तुज्या पाचय प्राणांची पंचारत दाखवन, समाधानाचे आनी अभिमानाचे हुस्कारे जायते वेळ सोडले जातले. पूण?

काळा इतलो बेस बरो खेळ करून दाखोवपी आनी दुसरो कोण आसा ह्या संवसारांत? ज्या उदकांत आपलेपणाच्या अभिमानान लकलकपी गोंयचीं तेजवंत तारवां नाचपाचीं, थंयच एक दीस अकस्मात मोयरांनी आपलीं तारवां नाचयलीं. त्याच वेळार - त्याच वेळार माण्डवी, तांगेल्या तारयांक तुज्या तळाचो ठाव कित्याक दिलो ना तुवें?

फुडलें भविश्य तुवें तरी खंय येवजिल्लें? ना?

जंय तुगेल्या पुतांनी दुस्मानाच्या रक्ताचो अभिशेक तुज्या मस्तकार घालपाचो, थंय दुस्मानान तुगेल्याच पुतांचें रगत तुका पियोवंक दिलें. जंय दुस्मानाच्या हातांतलीं सोडवपाची उमळशीक तांकां लागपाची, थंय तुका मोयरांच्या हातांतली काडून फिंर्ग्यांच्या हातांत दिली. तुगेल्या सरस्पतीचें पवित्रतायेन भरिल्लें धवें पितांबर सोडवन, अदर्यांनी तिका व्हिस्तीद घालो. द्रोपदीपास्ट जाल्ली ही तुजी विटणूक पळोवन, माण्डवी, तुवें दोळे धापून घेतले जातले. मनांतल्या मनांत तूं रडल्या जातली. आनी येदेशें तोंड करून, तुज्याच पुतांकडेन तुवें पळेलां जातलें.

परक्यां कडेन झुजूंक तरी येता. पूण तुज्याच पुतांक - रातीचो दीस करून, जांकां तुवें ल्हानाचे व्हड केल्ले. आपल्या रक्ताचें उदक करून ज्यांच्या जिणांचे रूख तुवें शिंपिल्ले, त्या - त्या तुगेल्या मायेच्या पुतांक आपल्याच हातांनी, कशी तूं मारून उडयतली आशिल्ली?

आनी फिंर्ग्यांचेर तरी कसलें असंतळ आयिल्लें? कसलो अच्छेव आयिल्लो? तुगेलीं देवस्थानां ताणीं भस्टिलीं. आनी तुगेल्या पुतांक देवांक घेवन पळटा म्हणसर भूंय ल्हान जाली. थोड्यांनी ह्या अच्छेवाक विटून तुगेल्या कुसव्यांत सासणाची न्हीद घेतल्या जातली. आनी हो अनर्थ पळेतां पळेतां तूं रागान तांबडी गूंज जाल्या जातली. दुबळ्यावरील अपंगूळ जाल्ल्यावरी, तुजेंच हड्डें तुवेंच बडयलां जातलें.

हो राग, तांगेलो अच्छेव काळापरत्वे विसल्ली जातली तूं. पूण तुगेल्या काळजाच्यो कळा, तुगेल्या जिवाक भोगिल्ल्यो व्यथा तूं केन्नातरी विसल्ली जातली गे?

एका वेळार तुका कितें उणें आशिल्लें? संतत, संपत, नामना, कीर्त सगळें तुज्या पांयाकडेन आशिल्लें. पूण एक दीस? नाका - नाका. त्या दिसाचें नांव पासून नाका. ते वेळमेरेन तूं निर्शेता, खर्शेता आनी धापेता. माण्डवी, असली कसली लकणी लागल्या तुका?

उठ. पळेता कितें? पळोवपाचो वेळ न्हय. हो एकेक खीण म्हळ्यार एकेक यूग. येवं दी. माडायेद्या उंचायेचें एक एक ल्हार येवं दी. सगळें गोंय वचूं दी तुज्या उदका पोंदा बुडून. भुंयेचेर जाल्लीं हीं पातकां, तुगेल्या पुतांची दुर्बळकाय, आनी तुगेल्याच रक्ताचेर मातिल्लीं हीं दुस्मानाचीं भुतां वचूं दी खळखळून दर्यांत. आनी हें तुगेलें गोंय - जय गोकुळांतल्या गोरवां राखण्याचें देवपण, श्री विष्णुच्या अवताराचीं वस्त्रां आनी शस्त्रां मेळून आकाराक आयलें, थंय शांतताय नंदू दी. ज्या गोंयांत शंकराचार्याक लेगीत शणै सोदूंक धांव मारची पडली, तें तुगेलें गोंय - पुण्यवंत, कुळवंत आनी भाग्यवंत गोंय, पवित्रतायेच्या, स्वतंत्रतायेच्या पांवड्यार सरूं दी आशिल्लें तशें वयर.

22.2.1947

## म्हा-मनीस

त्या विशाळ मनशाची जाग आजुनय तुमकां लागूंक ना? त्या महामानवाची सुलूस आजुनय तुमकां मेळूंक ना?

म्हासमुद्राच्या म्हादेगेचेर युगपुरूश ध्यानस्थ बसला आनी ताज्या अन्तरांत स्फुरिल्ली युगवाणी आजुनय तुमच्या कानार पावूंक ना?

मध्यान्नेच्या शांततायेंत, किडींच्या किरकिराटांत, अकस्मात भालूंची वरड आयकूंक येतकीर तुमगेलो प्राणच जेन्ना कानांत एकठायता, त्या वेळार कोणाचींय पावलां वाजिल्लीं तुमी आयकूंकच नात?

उन्मादाचीं गाणीं गायत, भोगाच्या आदीन तुमचो जीव तुमी करतकीर, तृप्तीच्या धुदींत जेन्ना तुमी नाचूंक लागतात. त्या वेळार कोणेय तरी ताल धरिल्ल्यावरी भास तुमकां जावंकच ना?

आनी माणकुल्यांक जेन्ना तुमी वेंगेंत घेवन खेळयतात, भक्तीची वात पेटोवन पुर्विल्ली ओंवी जेन्ना तुमी वाचतात, त्या वेळार सुखा-समाधानाची एक नवी प्रचिती तुमकां येवंकच ना?

तुमगेले फळाक येवंक नाशिल्ले हावेस आनी तुमगेलीं भंगिल्लीं सपनां आसात जाल्यार, त्या तुमगेल्या हावेसांक आनी त्या सपनांक तुमी थडीं उबारूंक नात? त्या हावेसांचो आनी त्या सपनांचो जल्मदीस वा मर्णदीस जागवंक त्या थड्यांचेर तुमी फुलां घालूंक केन्नाच वचूं नात? तांचे चिंतन करपाखातीर त्या थड्यां मुखार एक खिणय तुमी थारूं नात?

तुमच्याच अन्तरांत तुमचीच जाग तुमी घेयात. आनी तुमचोच माग घेत तुमी भोंवात. मागीर तुमकां कळटलें आनी आनंदाचो उत्सव करीत तुमीच गायतले. आमगेल्या फळाक येवंक नाशिल्ल्या हावेसांक आनी आकाराक येवंक नाशिल्ल्या आमगेल्या सपनांकच महामानवांच्यो वेणो येवंक लागल्यात. जिणेची फांटोड्डु आतां फुलूंक लागल्या आनी नव्या मनशाखातीर नव्या संवसाराची उदेणी चल्ल्या.

आनी धतरीवेल्या मनशांचो, युगपुरूश म्हणटात तो एक फकाण कशें तुमकां दिसना? आनी म्हा-पुरूश म्हणटात तें एक कवींची उबाल्लेलें बावलें कशें तुमकां दिसना?

सूर मारून न्हय, तर तकली थाऱ्यार दवरूनच तुमकां हांव सांगतां की युगपुरूश म्हणून ह्या संवसारांत आसा जायत तर तो तुमगेल्याच काळजांत जागो आसा. आनी म्हापुरूश तर खासा तुमीच आसात.

## कणयारें

1.

म्हगेल्या जनेलांत बसून कोगूळ गायता. दिगन्तेपेलें कसलें सूख आतां म्हज्या वांट्याक येवचेलें उल्लां?

धर्तरेचेर जुवानपण तरे तरेचे खेळ खेळटा आनी आनंदाचें नवें ल्हार सगळ्याक फुट्टा.

म्हगेल्यो आशा आनी म्हगेले हावेस शेळेल्यात. म्हगेलीं सपनां आनी म्हगेल्यो येवजणुको जयच्या थंयच धपटल्यात.

पाकळेन पाकळी गळून उरिल्ल्या फुलाच्या देंटावरी आज म्हगेली जीण उल्ल्या.

2.

दाव्या दोळ्याचें पातें उडटा. कसलें अदृस्ट म्हजे उफेता?

कावळो येवन दारांत रडटा खंयचो कोण म्हागेल्या घराक येवपा आसा?

3.

मध्यान्नेचो काळोख ! हय, मध्यान्नेच्या खोल काळखांतच म्हाका बसूंक जाय.

म्हगेलें निजाचें रूप मध्यान्नेच्या काळखांतच वावुरता.

4.

एक दीस सपन पडलें म्हाका तो म्हज्या म्हऱ्यांत आयला.

जागो जावन हांवें पळेलें ताज्यांतच हांव आसां.

5.

निक्तीच पेट्टाली ती वात एके फुंके भरशीं वाडवली. ती खंय गेली?

तागेले कुडींत खेळटाली ती जीण एका, खिणा मजगती नाच जाली. खंय गेली ती?

मर्णलोकाच्या सड्यार खेळून पुरो जाल्ली तीं दोगांय सासणाच्या कुशींत वचून मुंगरलीं.

6.

हे म्हगेल्या जीण-तत्वा, तूं खंय रावता?

दीस आनी रात जंय घुस्पता. जल्म आनी मर्ण जंय एकरूपवता, थंय हांव रावतां.

हे म्हगेल्या काळजा, तूं खंय भोंवता?

चांदनेच जंय सपनेता, थंय हांव भोंवतां.

7.

तुमकां कितेंय दितलों जाल्यार म्हजेकडेन कांयच ना. आनी तुमचे कडल्यान कितेंय घेतलों जाल्यार म्हजेकडेन झोळीच ना.

ज्या हातांनी तुमकां कितेंय दिवपाचें, ते हात याचने खातीर फुडें कशे सरतीत?

8.

म्हगेल्या काळजांत फांटोड्ड निक्तीच उदेता आनी अस्तमतेचेर म्हगेली जीण घुटमळटा.

मर्ण आनी जीण हातांत हात घालून म्हगेले कुडीचेर खेळटात.

9.

म्हगेल्या येवजणुक्यांनो उतरांचो पडस घेवन तुमी भायरच सरूं नाकात. म्हगेल्या अन्तरांतच तुमी विशाळ आसात.

10.

हजार जाणांच्या तोंडांत रावच्या परस, हे म्हगेल्या काळजा, तूं एकल्याच्याच अन्तरांत राव.

11.

आतां तुजेकडेन कितें आसा?

सुण्याक लेखिलल्यावरी लोक तुका लेखतात. तुगेलेच एका काळचे इश्ट तुका पयस रावतात. आनी तरी वाचपा सारकें आतां तुजेकडेन कितें आसा?

हांव कितें म्हणटा ताची जाणविकाय म्हजेकडेन आसा.

12.

तुमचेर हांव उपकार करिना आनी तुमगेल्या उपकारांकय हांव रावना. जें कितें म्हाका फावता तेंच म्हाका दियात.

–.9.67

पॉल मुनी गेलो म्हणून वाचलें. लुई पाश्चरांतलो हो लुआी पाश्चेर, एमील झोलांतलो हो एमील झोला. गूढ अर्थातलो हो व्हांगलूंग सासणाचे न्हिदेंत विसावलो. जें जें सवंग ताणें केलें, त्या त्या संवगांत ताणें प्राण ओतलो. मातयेचें भांगर केलें. ज्या वेळार तागेलें काम हांवें पळेलें, त्या वेळार हांव साप्प भुरगो नाशिल्लों. जाल्यारूय जाण्टोय नाशिल्लों. चौदा पंदरा वर्सांचे ते पिरायेर जायत्यो गजाली म्हाका कळनाशिल्ल्यो. अशें आसतनाय तागेलो एमील झोला काळजांत तसोच उल्ला. तागेलें हांवें पळेलें तें हें एकच काम. ही एकच समर्थ भुमिका. केद्या तोलाचो हो मनीस जावंये हाची ही एकच नाट.

तीन खेंपो हांवें Emila Zola पळेलो. तरी मन तृप्त जालें ना. आजुनय पतून पळेल्यार तें अतृप्तच उरतलें. ना ना, जे कादंबरींत झोलाक एकदम उजवाडाच्या झेतार व्हरून बसयलो, ती कादंबरी बरोवंक योगायोगावेलो झोला. आगळीक जातकीर किंवाटून laccuse म्हणून पांय आपटुपी झोला.

त्रिबुनालार my profession is bright म्हणून जुविजाक शिटकावपी झोला आजून दोळ्यांमुखावेलो हालना. झोलाची जीण त्या उप्रांत बऱ्याच वर्सांनी वाचली आनी तेन्नाच पॉल मुनीच्या बारीकसाणेची म्हाका तोखणाय दिसली.

असो जीव दिवन काम करपी लोक दिसान दीस उणो जायत चल्ला. आज देख मेळटा ती अळंग स्वाम्यांची. कश्टां विरयत काम करूंक सोदतल्यांची. कित्याकच आज जडसाण ना. कसलीच खोलाय ना. आज सगळेंच उखलापें. वेल्यावेर केल्लें. ते पोदेर गेले आनी ते उंडे गेले. उल्ल्या ती बेगड, पितळेचें भांगर.

**20.7.1969**

अमेरिकेच्या नील आमस्ट्रॉंगान चंद्राचेर पयलें वयलें मनशाचें पावल दवल्लें. एक नवो इतिहास घडलो. विज्ञान फुडें वचतआसा आनी वतलें. तरी मनीस जातीचे वळवळे उणे जायनात. जाल्यारूय हे धरतेचें मोल उणें लेखून कशें जायत?

विज्ञानान जोडिल्ली ही जीख. दर मनशाक हे गजालीचो अभिमान दिसूंक फावता. ह्या खातीर अमेरिकेची तोखणाय जायत तितली थोडी. अशें आसतनाय अभिमाना वांगडाच मनाक खंतय जाता. जे अमेरिकन मनीस चंद्राचेर धाडलो तीच अमेरिका व्हियतनामांत अच्छेव कांडटा. आपल्या सुवार्थाखातीर थंयच्या भावार्थी लोकांचेर आगळिको करता. थंय गुन्यांवाविणें लोकांचेर उज्याचो पावस ओंकता. हे हत्येक क्षमा ना. विज्ञानांत आज अमेरिका फुडें आसा. त्याखातीर जशें तिचें आमी कौतूक करूंक जाय, तशेंच व्हियतनामाच्या लोकांचें जें हत्याकांड तिणें चलयलां ताजी बिर्मतय तिका फुटूंकच जाय.

**21.7.69**

कालच्यान मनीस चंद्राचेर पावलो. अवकाश इल्लो इल्लो करून तो जिखतलो म्हणपाची ही पयली नाट. जाल्यारूय भुरगेपणांत शिकता आसतना वाचिल्ल्या एका धड्याची ओगीच याद जाता.

एक भोंवडेकार आशिल्लो. सवणीं मारपाचो ताका मोठो नाद. दिसूयभर आपलें तुबक घेवन सवणीं मारपाक ताणें विडविडचें. सवण्यांक तेळपाखातीर सदांच नदर वरशी करून ताणें भोंवचें. एक दीस रानांतल्यान भोंवता आसतना वाटेर सोरोप आशिल्लो तो ताका दिसलोच ना. सोर्पार पांय पडनाफुडें सोरोप ताका चाबलो आनी वीख चडून तो भोंवडेकार मेलो. अशीच कांयशी अवतिकाय आमची जावंची ना मूं? अवकाशाचो आमी सोद घेतात, भुगर्भांत कितें चल्लां म्हणपाची सुनशा आमी कितलीशी घेतात?

13.7.70

आमचे जिणेक एक वेग आयला. खोलाय आयल्या जायत? म्हाका दिसता, वेग वाडटा तितली खोलाय आमी वगडायत वतात. आज मनीस धांवत आसा. ताका स्वस्तसाण ना. सारासार येवजुपाक ताका वेळ ना. तो खुनार उठयिल्ल्या भशेन उठला. जिवाक उबगला.

15.8.70

आमगेले उमेदीचे भुरगे आतां कोंकणींत बरोवंक लागल्यात. बऱ्या सुगुण्याची गजाल. जाल्यारूय थोडे जी भास बरयतात ती वाचूं नज जाता. बरोवपाक जी जतनाय आनी तकालस येवपाक जाय ती ताणीं निखालस घेतिल्ली दिसना.

आपलीय भास आपल्याच शिकचीच पडटा. जिवणी समजूनं घेवची पडटा. तिका धोडावची पडटा. तिजेर फार घालचे पडटात. तरच्च ती अरळ आनी म्होंवाळ जाता. आपल्याक जाय तशी बागवता. तिका आसुडची पडटा. फापुडची पडटा, तेन्नाच भितल्ले आशे भायर पडटात. तिकाय मोवण लावंचें पडटा. तेन्नाच ती तगतली जाता. आपल्या भुरग्याभशेनच तिकाय आपल्या आंगा खांदार खेळोवंची पडटा. काळजाकडेन आंवुळची पडटा. अनन्य भक्तीन तिजी सेवा करची पडटा. तरच कोणाय एकल्याच्या हातांत्त ती चमत्कार घडयता.

15.8.1972

आज आमगेले स्वतंत्रतायेचो रूपेरी उत्सव. सरकार हालता. लोकांक कसलीच उमेद दिसना. देश स्वतंत्र जावन पंचवीस वर्सां जालीं. आजून आमगेले शेतकामत लसलसून मातिल्लें दिसना. उद्योगधंदे तरतरलेले पळोवंक मेळनात. विज्ञान आनी आस्पत हांचो सांगोड बांदून देशांतले जिणेची उबारी कशी करची ह्या वावराक पोटतिडकेन लागिल्लो एकलोय दिसना.

ह्या स्वतंत्र देशाची आजची आनी फुडाराची गरज पारखून ह्या देशाक फाव सारख्या शिक्षणाची बुन्याद घालपाची विवंचना एकल्यानय केल्ली दिसना.

पंचवीस वर्सांचो काळ, खंयच्याय देशाच्या इतिहासांत व्हडलो न्हय. जाल्यारूय पंचविसावें वर्स म्हळ्यार उमेदिचें, ऐन कर्तुत्व दशेचें वय. खोंट मारता थंय उदक काडपाच्या बळग्यान ह्याच वयांत रगत शिंवशिंवता. संवसाराक गिंवसण घालपाचो हावेस ह्याच वयांत मनांत रिगता. आमच्या देशामुखार एक दिशा ना. खंय मेंग्न वचूंक जाय म्हणपाची आखणी ना. लोक आसा सामको निर्णल्लो. म्हारगायेन चिड्डल्लो. जगपाचें त्राण नाशिल्लो.

आमच्या पाड्या नशिबांत ह्या देशांतले विचारवंत लाचार आनी पोटार्थी जाल्यात. राजकर्ण म्हळ्यार ह्या देशांत एक धंदो जाला. धंदो म्हळो की धंद्यात आशिल्ले दरेक मनीस आपल्या धंद्याक बरकत कशी हाडची हेंच येवजिता. तो पळेता आपलें हीत, आपलो आदाव.

1.9.72

आमच्या पाड्या नशिबान गोंयांत कसलेच कलेक पोसणूक मेळना. परशुरामान वसयल्ले हे भुंयेक कसलो श्राप आसा म्हणून समजना.

हांगा कलावंत जल्मतात तरी कला हांगा वाडना. कलेची रोंपी रोयल्यार, ती थंयच्या थंयच धपटता. थंयच्या थंयच म्हुट्टेता. तिज्या मुळाक कीड लागता. ती रसरसून मातूंकच पावना.

शेंकड्या शेंकड्यांनी परक्यांचो शेक मानेर घेवन वाडिल्लो आमगेलो समाज, आपलें सत्व वगडावन आत्महीण जाल्ल्यान, सपनां पळोवंकच विसल्ला. कसलेच उद्योग हे भुंयेंत नाशिल्ल्यान, चाकरी हीच हांगासल्ली व्हडल्यानली व्हडली कारखानदारी जाली. धनी नाचयता तशें नाचप हें व्हडलें कर्तुत्व जालें, धनयाचो पानको जावप ही बढाय जाली. देखून दुस्वास आनी कुण्णटकाय जिणेचीं आंगां जावन बसलीं.

आमचो फुडार कसो घडोवंचो हें आजूनय आमी येवजिनात. खंयच्याय समाजाची वा देशाची पारख करतात ती तो समाज वा देश कितें येवजिता आनी कशें येवजिता हाजेवेल्यान.

आमचो समाज तर आजूनय येवजिना. वता तो दीस आपलो हेंच गांठीक बांदून तो जियेता. ताका कसलेच कलेची ओढ ना. कवितेची ताका रूच ना. कथेची ताका आवड ना. संगितांत ताजी तान भागना. चित्रकलेन ताजें पोट भरना. श्रमाचें आनी कश्टाचें मोल ताका कळना.

आमगेलो समाज वळखता तो दुडू. दुडू हेंच ताचें जिणेचें अधिस्ठान. जांचेकडेन चकचयाळ दुडू आसा, तो मागीर फटींगपणान, चोरयेन, नाडानाडीन वा नागोवणेच्या मार्गान जोडिल्लो आसूं, ताका तो माथ्यार घेवन नाचता. लामट्यापणान तांच्या पांयाकडेन बसता. मानाभोवमानाचीं चंवरां ताजेर धरता.

5.9.72

दुसऱ्या म्हाझुजा उप्रांत आज परतून ज्युदेवाचें रगत जर्मन भुंयेचेर व्हांवलें. ऑलिपीक खेळांक, नकलामी जाली. अरबांनी अशें करूंक फावनाशिल्लें. मनीस रागान कुड्डो जातकीर आनी सुडान पेट्टकीर विवेक भ्रश्ट कसो जाता हाची ही नाट!

तशें पळेल्यार, ज्युदेव आनी अरब धर्मान जरी वेगळे जाले तरी एकाच 'सेमित' वंशाचे लोक तांणी एकमेकाच्यो तकल्यो फोडूंक फावनात. तातूंत तांचें हीत ना.

इस्त्रायलचो जल्म जायत पासून आनी पालेस्तीन इस्त्रालयांत व्यापीत पासून तांच्यांत नपड आयल्या. अरब सुडान पेडल्यात. इस्त्रायलाक ना नपश्यात करूंक पळेतात.

इतिहासीक नदरेन पळेल्यार, पालेस्तीन ज्युदेवांचें रोमन सम्राट इन्युश्तिनियानु हाणें तांकां पिडीपीड दिवन थंयच्यान धांवडायले. तेन्नाच्यान ते बाबडे संवसारभर खोंटो खायत भोंवत रावले. दुसऱ्या म्हाझुजांतल्यांन तांकां खासा तांचें अशें एक राष्ट्र मेळ्ळें. तरी तांच्या नशिबांतलो भोग चुकना. तांकां कशीच थंडाय मेळना.

अमेरिका आनी रशिया हीं दोन व्हडलीं राष्ट्रां, केन्ना साखरेच्या सुऱ्यांनी आमचो, आशियेंतल्या लोकांचो गळो कापतात, केन्ना उक्तेपणान विमानांतल्यान उज्याचो वर्षाव करीत, बशिल्ल्या जाग्यारच आमकां ना करून उडयतात. केन्ना आपसांतच आमकां कोंबे कशे झुजयतात. केन्ना जळू कशे आमचें रगत पियेतात. देखून आमी, एकमेकांकडेन सन्मथ्थान चलून, आमची उदरगत आमच्या आमीच करून घेवंक जाय. सगळे भेद कडसरावन आमी एकचारान चलूंक शिकूंक जाय. आमकां अशी शिकोवण कोण दीत?

(ज्युदेव = ज्यू लोक)

**9.12.72**

मनीस हो केन्नाच पूर्ण नासता. ताणें घडयल्ली कला मात पुर्णतायेक पावूं येता. तशी ती पावतली जाल्यार, कलावंताची आपले कलेचेर निखटी भक्ती आसून उपकरना. मनीसजातीचेर विश्वास आनी श्रध्दा आसून भागना. कला जेन्ना तागेले जिणेचें व्रत जावन बसता, तो तेन्ना आपल्याकडेनच सर्त करीत, आपल्योच म्हेरो फोडूंक लागता. मनाचीं कवडुलां उक्तीं दवरून जिणेचो सोद घेत रावता, जेन्ना आपल्याकच आपल्याभायर फांकयत रावता, तेन्ना तागेली कला घडयता घडयतांच आपशींच घडत वता. तेन्नाच ती मळबाक गिवसण घालता. जिणेची खर हाडटा. तिका एक वेगळीच धार चडटा.

## 26.12.72

तीन-चार दिसांपयलीं मडगांवां विद्यानिकेतनाच्या वज्रमहोत्सवाचो दबाजो मोठ्या आट्यापाट्यान जालो. त्या खातीर ताणीं एक सामाजिक परिशद भरयली आनी संस्कृतीक कार्यावळ जाय म्हणून एक मराठी कवी संमेलन घडोवन हाडलें.

परिशदांनी खंयचेंच काम फुडें गेल्लें हांवें पळोवंक ना. तरी परिशदेसंबंदान म्हजें कसलेंच म्हणणें ना. म्हजो शीण आसा तो कवी संमेलन घडोवन हाडिल्ल्या जाळवणदारांचेर आनी तातूंत वांटो घेतिल्ल्या आमच्या गोंयच्या कवींचेर.

भौ. कवी वसंत बापट आनी मंगेश पाडगांवकार हांकां ताणीं मुजरत आपोवन हाडचे आनी तांकां आपल्या म्हऱ्यांतलो सामको लागशिल्लो, तांच्या परसय व्हड तोलाचो कवी शंकर रामाणी दिसचो न्हय हाचें अजाप जाता.

**10.8.73**

दिसपट्टें बरोवपाक म्हाका जमना. म्हयन्या म्हयन्या संकिनी ही दिसपट्टी हांव बरयना. मदीं मदींच चुकून जे छाप मनाचेर उदेतात ते पासून उमाळो आयल्यारच कागदाचेर हांव उठयतां.

दर मनशान तिरायत कसो जावन आपल्याकच आपणें तेळपाचो यत्न केल्लो, आपलोच निवाडो आपणेंच दिल्लो, आपल्याकच आपणें उक्तो करून दाखयल्लो, तर संवसारांतले कितलेशेच आडखळीचे प्रस्न झुजामळार सुट्टले आशिल्ले. एकमेकांभितर धोंस मातची नाशिल्ली. मनशाचें दिसनाशिल्लें रूप आपशींच आमच्या हाताक लागतलें आशिल्लें. रूप खंयचें आनी रूपडें खंयचें हाजी विसकणी जातली आशिल्ली. अशें आसूनय म्हज्या म्हाकाच निवाडो करपाक जमना. म्हज्या म्हाकाच उक्तो करून दाखोवपाक म्हाका सादना. कितलेंय कर, खोऱ्याची बाग सदांच म्हजे वटेन उरता.

13.8.73

आज जाग आयली तेन्ना वयाचीं पन्नास वर्सां सोंपून एकावन्नाव्या वर्सांत पावलों म्हणपाची जाणविकाय जाली. अर्दे शतक गांठलें. पन्नास सोंपणां चडून गेलों.

आयुश्याचो जमाखर्च मांडपाचो हो दीस. बेरीज आनी वजाबाकी मांडल्यार कर्तुत्व शून्य. धके-चपाटे हांवें पळेले नात. म्हगेली जीण जशी म्हाका घडिल्ली जाय आशिल्ली ती घडली ना. घडोवंक म्हाका जमलें ना. मन अभिमानान उफेवचें असलें कसलेंच कर्तुप हातांतल्यान घडलें ना.

कांय व्यथा वांट्याक आयल्यो. आज त्यो बेगडी दिसतात. जिणेचीं पाळां मुळां हालचीं, पेडावणाक चीर पडची, अशे कसलेच प्रसंग जिणेंत आयले नात. आयुश्य एके धारेर आसा. समादान इतलेंच की वर्सां बेगीबेगीन धांवलीं. उबगण आयली ना.

14.8.73

ब्राझिलैर कवी मानुयल बांदेर (Manual Bandeira) हाजी एक कविता आसा -

'Andorinha la fora esta dizendo :
- "Passei a vida a toa a toa!"
Andorinha andorinha minha cautiga mais triste
Passei a vida a toa a toa."
म्हजीय अवतिकाय अशीच जाल्या.

**19.8.73**

कलावंत होय मनीसच आसता. देखून एकलो एकमुळो ताका केन्नाच रावूंक मेळना. ज्या समाजांतल्यान तो आयला, त्या समाजांत ताका वावुरचें पडटा. त्या समाजांतच ताका जियोवंचें पडटा. ताका जाय जांव वा नाका जांव. त्या समाजांत जो बदल वा परिवर्तन घडून येता, त्या परिवर्तनाचो वा बदलाचो गवाय ताका जावंचोच पडटा. त्या परिवर्तनाचे साद आनी पडसाद ताजे कलेंत घडये आसूंयेत घडये नासूंयेत. ते आसचेच अशें ना. ताणें प्रामाणिक आसूंक जाय आपले कलेकडेन. ताणें प्रामाणिक रावूंक जाय खासा आपल्याकडेन. आपल्या मनाकडेन. आपल्या काळजाकडेन.

**22.8.73**

सुखाचो भाग दिवंचो. दूख्ख मात आपणें एकल्यानच सोंसचें. सुखाचो भाग दिल्यार सुखाचो आनंद शतपटीन वाडटा. दुख्खाचो भाग दिवंक गेल्यार दुख्खाचो फार्स जाता.

3.9.73

फिशाल मेस्तय कलावंताच आसता. देखून कविंनी, लेखकांनी, चित्रिकांनी आनी हेर कलावंतांची ताका आपल्यापरस केन्नाच उणो लेखूंक फावना. कलावंत केदेय व्हड जाले तरी कलेखातीर संवसारांतल्या खंयच्याच देशांत बंडां जांवनात. खंयचोच देश बंड करून उठूना.

बंडां जातात पोटा खातीर. बंडां जातात सत्तेखातीर मनशाचे जिणेक उबारी दिल्या ती कलेनच. मनीसपण हाडलां तें कलेनच. मनशाचें नातें देवाकडेन जोडलां तेंय कलेनच.

**2.10.73**

ह्या देशांत आज गांधीक मान उरूंक ना. म्हात्मो आज जितो आशिल्लो जाल्यार आपल्याच सरकाराआड बंडाचो उलो ताका घालचो पडटलो आशिल्लो. चांट्यापावलाक ताज्यो बकच्छायो जातल्यो आशिल्ल्यो. ताजे इप्रतिस्टेक पारावार आसचो नाशिल्लो.

ज्या देशांत सरळ मार्गान वतल्यांची गोमटी वता आनी वांकड्या मार्गान वतल्यांक धोंद फुट्टा, ज्या देशांत सत्ताधीश मधान्त जातात आनी देशाच्या हितापरस आपल्याच स्वार्थाक आनी सुखाक संवकतात, ज्या देशांय सत्याच्या नांवाचेर असत्यच मातता, ज्या देशांत उजवाडाक दारां धांपून घालतात आनी काळखाची उजवाड म्हूण पूजा करतात, ज्या देशांत प्रामाणिक, सरळ, सात्विक आनी भावर्थी मनशांक खोंटांनी गुड्डायतात आनी चोर, जुगाड्डे, शिंदळ आनी खूनमाऱ्यांक माथ्यार घेवन नाचतात, ज्या देशांत मनशांक मनीसपणान जियोवंक मेळना आनी न्यायाची शाश्वती ना, त्या देशांत गांधीचो भार कोणाचेरय आयल्याबगर, गांधी केन्नाच जितो उरना. गांधीची सासाय पासून थंय आसना.

9.4.74

म्हा-पुरूशांचें निर्वाण, एका अर्थान नव्या युगाची नांदी जाता. वामनबाबांची मर्णतीथ जागवप म्हळ्यार गोंयचे अस्मितायेक जागृती हाडप.

कोंकणिच्या स्वराज्याचो दिस्टावो वामनबाबांकच जालो. सामके निर्णल्ल्या, अबर्गत जाल्ल्या गोंयकारांत नवो प्राण फुंकपाचो यत्न वानबाबांनीच केलो. आपलेपणाच्या अभिमानान दर गोंयकार पर्मळचो आनी धनीपणाचे उर्बेन पुरूशार्थाक चडचो, त्या खातीर वामनबाबांनीच आपलो जीव खडपसूक केलो. ब्रह्मांडभर कोंकणी संस्कृतायेची घुडी उबारपाची शिकवण आमगेल्या माणकुल्या भुरग्यांक ताणींच दिली. भुरग्यांच्या काळजांत सगळ्या ब्रह्माडांचो कोंकण करपाचो हावेस ताणींच रूजवपाचो यत्न केलो.

भारताचे स्वतंत्रतायेचें सपन तांच्या दोळ्यांमुकार जेन्ना घसघशीत उबें जालें, तेन्ना ते स्वतंत्रतायेक वेंग मारून भाग्यवंत जायात, अशें पराथून वामनबाबांनीच आमकां सांगलें : ''तुमी स्वराज्य जोडटकीर करतले कितें? आपलो कारभार खासा आपल्या हातांत घेवन, गोंयचें राज्य तुमचे तुमीच कोंकणींतल्यान चलयतले, काय गोंय मराठणाक वा कर्णाटकाक दसोवन सासणाचे बंदे जावन रावतले?''

तुर्ताक आमचो कारभार आमी चलयतात; हें जाणां जावनय हांव म्हणटा, ''हाजी जाप दर एकल्या गोंयकारान आजुनूय दिवपाचीच आसा.''

(वामनबाब = वामन रघुनाथ वर्दे वालावलकार ऊर्फ शणै गोंयबाब)

**20.5.74**

संवसारांतलो खंयचोच लोक आपले भाशेक केन्नाच कुंड्यापास्ट करिना. आपले भाशेक कडेक दवरून परकेक केन्ना पोटलून धरिना. आमी मात, आमचेच भाशेक चांट्या पावलाक कुस्कुटायतात. दिसपट्टी तिका धेडी कशी लेखतात. हेंगाडी म्हणून हिणसायतात. असो उंवाळून घाल्लो लोक, गोंय सोडून दुसरेकडेन खंयच मेळपाक ना.

जाय तशी बदलपाक भास केन्ना येस जायना. आनी परकी भास कितलीय लागीं केली तरी माये मोगाच्या कळवळ्याची कान्न निका केन्नाच मारिना.

आपलीच भास आपणें सोडप म्हळ्यार, आपल्याकच आपणें आद्यस्तनां नाशिल्लो करप. आपलोच आत्मो आपणेंच घाण दवरप. आपल्याकच आपणें भाड्याक घालप. आपल्याकच आपणें पावणेर काडप.

14.2.75

संतांची परंपरा सांगीत मराठी कोंकणीचेर 'मुलुखगिरी' गाजोवंक सोदता. कोंकणीक गिळूंक पळेता. आपल्या बडवाचारांचो तोरो मिरयत कोंकणीक हिणयता. असलें पाडें राजकर्ण, ज्ञानेश्वराचे आनी तुकारामाचे मराठीक सोबना. आनी मराठीन कितलेय हात-पांय धोडायले तरी कोंकणीक गिळूंक तिका कालत्रयी जमचें ना.

मनशां मनशांत जसो भेद करूंक फावना, तसोच भासा भासांतय भेद करूंक फावना. खंयचीच भास दुसरे भाशेपरस व्हड नासता, तशीच दुसरे परस ल्हानय नासता. एके भाशेपरस दुसरी भास वेगळी आसता, इतलेंच आमच्यांनी म्हणूं येता.

भास म्हळ्यार मनीस. मनीस म्हळ्यार भास. भाशेक मारप म्हळ्यार मनशाक मारप. भाशेक मारप म्हळ्यार मनशाची हत्या करप.

मनीसपण आशिल्लो मनीस मनशाची केन्ना हत्या करिना. केली जाल्यार ताजी गणना केन्ना मनशांत जायना.

26.2.75

आज कोंकणी साहित्य अकादेमींत पावली. देशांतल्या भासांचे वळेरेंत आपल्या हक्काच्या पाटार वचून बसली. वामनबाबांच्या तपाक फळ आयलें. आमच्या वावराचें सार्थक जालें.

संवसारांतले खंयचेच भाशेक अशे हाल उपाद्रे काडचे पडूं नात. अशे वळवळे सोंसचे पडूं नात. गोंयांत, कोंकणीच्या मूळ पिठांतच तिका वनवास भोगचो पडलो. तिका केंडून केंडून आमी कुशीक उडयली. बोंदरा-फाळयांनी तिका आपली लज राखची पडली. आपल्या हक्काखातीर तिका दीस-रात झुजचें पडलें.

कोंकणीच आमकां हुस्क्यामेकळी उलोवंक दितली. कोंकणीच आमचें आत्मपण आकाराक हाडटली. कोंकणीच आमचें आनी आमच्या भुरग्या-बाळांचें कर्तुत्व फांकयतली. कोंकणीच एकचाराच्या पासांनी आमकां जोडटली. कोंकणी ही आमचो अभिमान. कोंकणी ही आमचो प्राण. आज, आमचे जुवान भुरगे खोशेन नाचले. तांच्या उमाळ्यांक औरां आयलीं. आज आमचें माथें सत्य पर्वतायेदें उंच जालें. आमच्या काळजाक गोमन्त समुद्राची खोलाय आयली. जाल्यारूय इतल्यान आमी संतूश्ट जावंक फावना. आयच्यान आमचेर एक जापसालदारकी आयली. आमगेलीं शेतां-भाटां आतां पाडांग पडूंक फावनात. सडे पासून जिवस जिवसाणेन आमी फुलोवंक जाय. आमचीं झाडां-पेडां चंवरलेलीं दिसपाक जाय. फुलां-फळांनी धरूंक जाय. त्याखातीर नांगराच्या जगलान आमची भूंय आमकां कसची पडटली. जिणेचे नवे नवे बांद फोडचे पडटले. रगत आटोवचें पडटलें. हुमेचे दोडींनी भूंय भिजोवंची पडटली. आतां निर्मण्यावेलो हात कसोच धील जावंक फावना. आळसायेक आतां जागो ना.

**28.3.75**

कोंकणीक साहित्य अकादेमीन मान्यताय दीत पासून महाराष्ट्रांतले कांय संपादपी आनी बरपी सामके चाळ्यांत पडल्यात. तांकां किते करचें तेंच सूचना जालां. कामणिकाराक हळदुवें तशें कोंकणींत तांकां राजकर्ण दिसपाक लागलां. कंसाक जसो न्हिदेंत आनी जागृतांत, उठटां-बसता, कृष्ण दिसतालो तशी तांकां कोंकणी दिसपाक लागल्या. दुस्वासाचो विखार फुलून आयला. खोरजता एकेकडेन आनी ते खरपितात एकेकडेन अशी तांची अवस्था जाल्या.

पयल्याच फाराक सांगप म्हळ्यार, कोंकणी ही मराठीची बोली केन्नाच नाशिल्ली. आजय ना. फुडाराकूय जावपाची आस्ता ना.

कोंकण ही पुर्विल्ली पुरातन भूंय. महाराष्ट्र हें उतर जल्माक येवंच्या पयलीं, कोंकण हें उतर जल्माक आयलां. म्हाभारतांतल्या भिष्मपर्वाच्या 9 व्या अध्यायांत गोंयांचें आनी अपरांतचें नांव आसा. अशे पुर्विल्ले पुरातन भुयेची भास अर्विल्ली कशी जायत?

कांय इतिहासीक कारणाक लागून मराठी आमी घेतली. देवगिरीच्या यादवांचो काळ हो ज्ञानेश्वराचो उदेव काळ. त्या काळार गोंय यादवांकडेन आशिल्लें आनी तांच्या दरबारांतली भास मराठी आशिल्ली.

1667 ते बरयल्ल्या 'कोंकण महात्म्यां'त महात्मेकार म्हणटा: 'कानडी लिहिणे कोंकणी बोली ।। येथ हेमांडपती नव्हती बोली ।। विजापुरी म्लेच्छ राजसत्ता झाली ।। तेव्हा कोंकणासी आली काबिजादी ।।5।। कोंकणास ठाणे बैसली ।। त्या पासोनी हिंदवी प्रगटली ।। मग महाराष्ट्र ब्राह्मणी आणली ।। ग्रंथरचना संतांची ।।6।। तेथोनी कोंकणासी महाराष्ट्र ग्रंथ ।। नामदेवी आदी पर्व भारत ।। आणी कृष्णदास मुग्दूली कृत ।। युध्दकांड रामायणासी ।।7।।

हाचेवेल्यान सणसणीत सिध्द जाता ही मराठी ही गोंयची वा कोंकणाची भास न्हय. ती हांगा आमी - बामणांनी इतिहासीक कारणाक लागून हाडली. इतिहासीक कारणाक लागूनच राखली. ती आमची निजाची भास न्हय. ती आथवी, अडेची.

मराठी ही जर आमची निजाची भास आशिल्ली तर बाटाबाटीच्या वेळार जे गोंयकार गोंयांसकल देंवले, केरळ धरून मंगळूर मेरेन पावले, तांची ती कित्याक जालीना? ताणीं कोंकणी कित्याक सोडली ना आनी मराठी कित्याक राखलिना? तांकां कोणें आडायले? मराठी ही आमची निजाची भास आशिल्ली जाल्यार ती भास ते कशेच सोडचे नाशिल्ले. ती भास ते राखतले आशिल्ले. अडेचें येता तेंच वता. निजाचें आसता तेंच उरता.

सतराव्या शेंकड्यांत इस्ट इंडिया कंपनिची तिजोरी, ज्याच्या नांवांन वळवळताले त्या राम कामतीक इंग्लेजांचे बंदखणींत वळवळून जीव सोडचो पडलो. जाणें मराठणाक फडणिशी शिकयली त्या रामचंद्रबाबा मल्हाराच्या हाताक एका वेळार बेडयो पडल्यो. पानीपतच्या झुजा मळार अहमदशा अबदालीन मराठणाच्या गळ्यांतलें मंगळसूत्र तोडून, हातांतली कांकणां फोडून उडयलीं आनी धड आयाव न्हय आनी धड रांडाव न्हय अशी जे भुंयेची अवस्था करून उडयली, ते भुंयेच्या गळ्यांत गोंयच्या ज्या पराक्रमी पुतान, जिवबादादा केरकारान, आपले तरसादीच्या बळग्यान सौभाग्याची गळसरी परतून बांदली, त्या पुताची अवस्ता बावक्या फुलावरीं जाली. खासा ताज्याच पुताचो, नारायण बक्षीचो मराठणान 'पक्षी' केलो. ज्याणें आयुश्यभर मराठीचो पाखो घेवन आपलो जीव सर्गदन केलो, त्या भौ. अ. का. पिरवळकारांनी 'तुमकां एक सांगू? म्हाका कारवारच्या साहित्य संमेलनाचें यजमानपण मेळलें तें त्या काळावेली गरज म्हणून. कारवार महाराष्ट्रांत येवंचें म्हणून हांवें गडगंज आदार दिल्लो. संयुक्त महाराष्ट्रवाल्यांचो तातूंत आदाव आशिल्लो. देखून तांच्या स्वार्थाखातीर ताणीं म्हाका भोमानाचो पाट दिलो. भाशेच्या राजकर्णाचो प्रस्न नाशिल्लो जाल्यार संमेलनाचें यजमानपण म्हाका केन्नाच मेळचें नाशिल्लें.' अशे निर्शेणेचे उद्गार काडले. ह्या मुखार अशें जावंक फावना. आमकां धनीपणाची उब मेळूंक जाय. स्वराज्यांत धनीपणाच्या धेंकान आमी वावरूंक जाय. आमची अस्मिताय फुलून येवंक जाय. आमचें कर्तुत्व फोपेवंक जाय. देखून आमकां कोंकणी जाय.

परके भाशेंत ती मागीर आमकां कितलीय लागशिल्ली आसूं, आमचो गळो अंदता. आमच्या भावनांच्या उमाळ्यांक उतरांचो पडसर जाय तसो मेळना. आमकां जें सांगूंक जाय तें आमी सांगूंक पावनांत. सरकारी दिवाणांत, कोर्ट-कचेरींत आमकां सडसडीत हुस्क्या मेकळें उलोवंक मेळूंक जाय. उतरां गळगळीत सुटूंक जाय. तीं आडखळूंक फावनांत. देखून आमकां कोंकणी जाय.

कोंकणी उलोवपी लोक जळामळाक शिंपडला. तो आतां एकठांय जावपाक जाय. एकचाराच्या पासान लागीं येवपाक जाय. हें इतिहासीक कार्य कोंकणीच्या वांट्याक आतां आयलां. देखून आमकां कोंकणी जाय.

भासच मनशाक आत्मपण दिता. आपले सारकायेन घडटा. सृजनाचें काम आपले भाशेनच तरतरून फुलता. देखून आमकां कोंकणी जाय.

कोंकणीचे व्हडविकेंत आमची व्हडवीक आसा. कोंकणीचे अस्मितायेंत आमची अस्मिताय आसा. हातूंत कसलेंच राजकर्ण ना. कोणांकय तशें दिसलें जाल्यार ताका आमचो उपाय ना.

कोंकणीचें वेगळें राज्य घडून येत म्हणून तांकां भंय दिसता. देखून तांकां जाळ पडल्यात. ते झुजाची भास उलयतात.

फुडाराक कितें घडूंये, हें आजच आमच्यानी सांगूं नज. आमच्यांत प्रज्ञा आसा. आमच्यांत उर्बा आसा. कोंकणीचें वेगळें राज्य घडये जावये. फाल्यांचो निर्वाळो कोण दीत? आज इतलेंच म्हणूं येता. कितलींय आडवणां घालीं म्हणून इतिहास घडचेलो रावंचो ना. काळ कोणाखातीर थांबचो ना. सत्तेच्या नाड्यार मनशांक चिड्डूंक सोपें आसता. कल्पना केन्नाच चिड्डूंक मेळनांत. चेंचल्यारूय तांचो प्राण वचना.

3.4.76

अंदूचें वर्स हें वामनबाबांचें जल्मशंबरेचें वर्स. देखून, कोंकणीचो अर्थ आमी पारखून घेवंक जाय.

गोंयकारांचो आर्विल्लो तसोच पुर्विल्लो इतिहास धवळलो जाल्यार धनीपणाच्या धेंकान ते वावुल्लेले दिसनात. आपशकमी कर्तुत्वान ते फुल्लेले मेळनात. आजवेर दुसऱ्यांचें कर्तुत्वच आपलें जाल्ल्याभशेन ते अभिमानान मिरयतात. दुसऱ्यांच्या कर्तुत्वाचेरच ते जियेतात. हाका लागून, सामाजिक मळाचेर आमचें हांशें जाता.

साहित्यांत जशे आमच्यांत रवीन्द्रनाथ आनी टॉलस्टॉय जावंक जाय तेच परी उद्योगाच्या मळारय आमच्यांत टाटा आनी किर्लोस्कर, फोर्ड आनी क्रपंय जावंक जाय. आमचे लिखणेक तरसादिची धार येवंक जाय, तेच तरेन आमची तागडीय झळझळीत आनी लकलकीत आसूंक जाय. आमच्यो पाडंग जमनीय लागोडाक हाडून आनी पिकाळ करूंक जाय. एके पिकेनच संतूश्ट जायनासतना तीन फसलो घेंवपाची तजवीज आमी करपाक जाय. शिपाय धरून सैन्याचो मुखेल सेनापती मेरेन, चाकरमानो धरून लोकराज्याच्या प्रधानमंत्रीमेरेन जावपाचो हावेस आसच्यांत रूजून येवंक जाय. उद्योगाच्या आनी गिनान्याच्या दर मळाचेर नव्यो नव्यो वांटो सोदचेलें साहस ह्या मुखार आमी करूंक जाय. एका केणांतल्यान दुसऱ्या केणांत रिगून, एके दूदगंगेतल्यान दुसरे दूदगंगेत पेवन ब्रह्माडाचें गुमानीत संवसाराक आमी फोडून सागूंक जाय.

आनी इतलेंय करता आसतना आमी केन्नाच रडी खावंक फावना. आमी अपहारी, चोर, जुगाड्ड आनी पडमूर जावंक फावना. आमी सदांच प्रामाणिक, उजू आनी सात्विक आसूंक जाय. जाल्यारूय मस्त्यांची मस्ती जिरोवपा इतली तांक आमच्या आंगांत आमी हाडूंकच जाय.

वामनबाबांची कोंकणी ती ही. नवें गोंय आनी नवे गांयकार घडोवंचेली. नवें कोंकण आनी नवे कोंकणे जल्माक घालचेली. हे कोंकणींत आमचें अर्थकारण आसा. हे कोंकणींत आमचें समाजकारण आसा. हे कोंकणींत आमचें राजकारण आसा. हे कोंकणींत आमचे जिणेचीं सगळीं कारणां आसात. आमगेली कोंकणी ही निखटी भाशेखातीर भास न्हय. कोंकणी ही आमची चळवळ. आमचे पुनर निर्मणेची आमचे पुनर उबारेची.

1.7.76

रूख फुलांनी आनी फळांनी धरतकीर भुंयेमेरेन बागवता. मनशांकच सत्तेचो मध कित्याक येता? नामनेचो, गिन्यानाचो आनी दुडवांचो कैफ ताका कित्याक चडटा? ताच्या दोळ्यार मस्तेचीं खवळां कित्याक येतात? मनीसच असो नस्टो कित्याक? तो नम्र कित्याक जायना?

ताच्या पावलांक जर पाळां फुटिल्लीं, भुजांक खांदयो फुटिल्ल्यो आनी केंसांचीं पानां जाल्लीं तर घडये अशें जावंचें नाशिल्लें. खांद्यांनी मळब तोलतकीर घडये नक्षत्रां ताचेकडेन फुतफुतलीं आशिल्लीं. रात आपलें भांडार ताच्या म्हऱ्यांत ओततली आशिल्ली. गिऱ्या गिऱ्याचेर गिन्यानाचो दिवो पेटोवपाचो हावेस ताच्या काळजांत रूजतलो आशिल्लो. पावलांचीं पाळां भुयेंत रिगतकीर, भुंयेचें गुमानीत ताका कळुये आशिल्लें. भुंयेंचे गर्भेस्त उर्बेन तागेलें मनीसपण पर्जळून फुलुये आशिल्लें.

7.7.76

सत्ता भोगतकीर ती एक दीस मस्तकाक चडटा. दुडू हातांत घोळटकीर खांकनवाळय आपलें पूर्व विसरता. तोखणायेन कोणय भुल्लुसता. आनी नामनेचीं पुढां चडटकीर जीण खदूळ जाता.

वत चमचमीत बसतकीर सावळी जायच पडटा. जो कसलीच आस धरिना, तोच मात एकादेवेळा मेळटा तितल्यान संतूश्ट जांव येता.

**5.10.1982**

कवितेचो आस्पाव कलेंतच जाता. देखून, कलेचे जे नेम आसतात वा जें तंत्र आसता, तेंच तंत्र वा ते नेम कवितेकय लागू जातात. जाल्यारूय, एकादो कलावंत, ज्याची प्रतिभेची सोंपे, ज्वालामुखीचो खतखतो आसता, तेन्ना तो आपल्या उमाळ्यांक वाट दिवंक जें तंत्र आनी ते नेम भिरकटावन मारता. आपणे निर्मिल्ले कलेक वेगळें तंत्र वेगळे नेम घडयता. तिजें मेज-माप वेगळ्या जोखांत जोखूंक लायता.

कला नितीक नासता. अतितिकेय नासता. कलेक सामाजिक हेतू नासता. कलेचो सामाजिक परिणाम आसूं येता. कलावंत हो भूतकाळांतल्यान वर्तमानाची पारख करता, आनी वर्तमानाच्या निरखणेंतल्यान भविश्याचे वेध घेता. आपल्या सपनांतलो संसार हे भुंयेर हाडपाचो यत्न करप ही आसता कलावंताची साधना. हें आसता ताजें तप.

कविता आसता एके भाव अवस्थेंत कविच्या उतरांत उसळलेलो कल्लोळ. उतरांचो पडसर घेवन संवेदनेचे जाणविकायेंतल्यान तो कल्लोळ आकाराक येता. अरूपाक रूप दिवन वता.

कविता येता जोगूल कशी. संसारचे निर्मणे इतलीच कवितेचीय निर्मणी गूढ. जें गूढ आसता, ताचो सरांव घेवंक येता. ताचीं गाभो घडये हाताक लागूंये, घडये लागनासतनाच उरूंये.

1.3.81

आज फांतोडेच्या सुमाराक चली बाळंत जावन म्हाका नात जाल्या. म्हाका आज्याच्या पदार चडयत दोन घराणीं ताणें एका धाग्यान बांदून घाल्यांत. नातरांच्या रूपान म्हगेले जिणेचो हो व्हाळ अखंड व्हांवत आसतलो. ताका खंड पडचो ना. म्हगेल्या मूळ पुरसाचो हो धागो, आपल्या प्राक्तनाचो सोद घेत अखंड धांवत आसतलो. मनीस मर्तिक खरो, जाल्यारूय तो अमर्तिक जाता तो असो!

15.8.84

आमचे स्वतंत्रतायेक आयच्यान 37 वर्सां जालीं. ह्या 37 वर्सांत आमकां जोडून दिल्ले स्वतंत्रतायेचो आमी चोंथो केलो. स्वतंत्रतायेचें शेण केलें.

ह्या 37 वर्सांत राष्ट्र व्हड जालें ना. ह्या 37 वर्सांत जगप कठीण जालें. स्वार्थाक ओतो आयलो. भ्रश्टाचार मातला. चारित्र्याक पड आयली.

स्वातंत्र म्हळ्यार अखंड जागृताय, जागृतायेंतल्यान आपणेंच केल्ली आपलीच दिसपट्टी पारख. आपलींच मोलां तपासून हीण पोरो घालून, आपणेंच आपल्या आचरणांत केल्लो नित्य बदल. आपल्या देशाक आनी खासा आपणांक प्रतिस्ठा आनी व्हडवीक हाडपाखातीर, आपल्याक सुदारून घेत, आपणेंच आपल्याचेर करीत रावपाचे मनीसपणाचे संस्कार. देशांतलो दर एक जाण जेन्ना व्हडविकेच्या हावेसान पेट्टा, तेन्ना राष्ट्र व्हड जाता, हरशीं न्हय.

84

दिसानदीस संसार पाड्या राजकर्णान भरत चल्ला. संसारांतलें काव्य उणें जायत चल्लां. दुख्खाकय एक सुखाची ओलसाण आसता. काळ्या कुपांकय एक रूप्याची कडा आसता. देखून हांव निर्शेना.

ह्या पाड्या राजकर्णी धबाडग्यांतय, देवामुखार जळटल्या मंद जोतीभशेन मनीसजातीचे प्रतिस्टेखातीर वावुरपी मनीस आजूनय आसात. जोवर असले मनीस आसतले, तोवर कविता पाथेत रावतली. जोवर संसारांत काव्य आसतलें, तोवेर जगपाकय एक अर्थ आसतलो.

17.9.84

रानच जेन्ना चारय वाटांनी पेट्टा, तेन्ना तातूंत धिरान जळून भस्म जावप इतलेंच भवितव्य आपल्या मुखार उरता.

**25.9.84**

कालच्या आगोस्ताचे तेरा तारकेच्यान, पिरायेचीं 61 वर्सां हांवें हुपलीं. आतां प्रत्येक दीस मेळटा तो फाड्याचो.

दिसासारको दीस नासता, देखून जगपाक अर्थ आसता. दिसा फाटल्यान रात आनी राती फाटल्यान दीस येता. दर्याकय भरती सुकती आसता. निजांतय चडटी आनी देंवती आसता. मनशाच्याच वांट्याक येता.

आयुश्याच्या उत्तरार्धांत केन्ना केन्नाय मर्णाचो साद कानार पावता. उजवाडाचीं सपनां पळेत मर्णाच्या स्वाधीन जावपांतय सुंदरकाय आसा. जाणें पाळणें देखलें ताणें मसंड पळोवंचीच पडटा. सुर्योदयावरींच सुर्यास्तय सुंदरच आसता.

**20.9.84**

मास्टर दत्ताराम काल सांजचे भायर पडले म्हणपाचें आयकलें. आज तांच्या कर्तुत्वाचो गौरव वाचूंक मेळलो. मास्टर दत्तारामाक हांव पळोवंक पावलों ना. ताचें नाटकांतुंय काम पळोवपाचोय योग केन्ना आयलो ना. नटवर्य केशवराव दाते, चिंतामणराव कोल्हटकर, नानासाहेब फाटक हांचे पंगतीक बसपाची तांची योग्यता आशिल्ली अशें सांगतात.

वेगळ्या वेगळ्या मळांनी कितल्या तरी गोंयकारांनी सह्य पर्वताचे उंचाये येदें कर्तुत्व गाजयलां. तांकां आमी खंय वळखतात? आमचेंच दर्शन आमकां जावपाख़ातीर आमच्या कर्तुत्वी मनशांची वळख आमकां जावंक जाय. कोणेंयतरी तकालस घेवन, कर्तुत्वी मनशांचो चरित्रकोश उजवाडाक हाडपाक जाय. गोंयच्या शासनांनय ह्या कामाक आदार दिवंक जाय. आनी आमगेल्या धनिकांनीय ह्या कामाक आपलो दुडवांची चिरी मातशी सदळ सोडपाक जाय.

2.10.84

आज गांधी जयंती. आतां ती वर्सासनाची बाब जाल्या. हिंदुस्थानाक इतिहास आसा काय ना, हो वादाचो विशय जाल्यारूय सुमेरियेची संस्कृती जशी नस्ट जाली, येझिप्ताची जशी नस्ट जाली, ग्रेसियेची पुर्विल्ली संस्कृताय जशी नस्ट जाली, तशें भारतीय संस्कृतीचें जालें ना. चीन सोडलो जाल्यार, भारताची संस्कृती क्षीण रुपांत जायना तगून उरली. तिची परंपरा चलत आयली.

भारताचो स्वातंत्र्य संग्रामाचो इतिहास तीच ह्या देशाचो गौरवाचो इतिहास. गांधी आयलो आनी ताणें स्वातंत्र्य संग्रामाक एक अध्यात्मिक बसका दिली. हिमालयाची भव्यता हाडली. आपल्या जीवनांत ताणें वेगवेगळे प्रयोग केल्ले. हजारांनी वर्सां जे चिड्डुले आनी ज्याचीं जीण जनावरां पास्ट जाली, त्या तळाच्या लोकांच्या कल्याणाक आनी तांकां प्रतिस्टा दिवपाक ते वावुरले. ह्या निजाचे कवीन कितल्या तरी जाणांचें सृजन फुलांवरीं फुलयलें. ह्या देशांतल्या लोकांक उजवाडाचे वाटेन व्हरपाचो यत्न केलो. स्वातंत्र्या उप्रांत सरकाराकय ही वाट अडचणेची जाली. तो मात एकलोच आपले अरूद वाटेवेल्यान चलत रावलो. अखेरेक ते वाटेकय वाखराची धार आयली. ते धारेवेल्यान दुखां पुशीत भोंवतालो.

आमी गांधीक मारून आमच्याच आत्म्याचो खून केलो. ताणें दाखयल्लो मार्ग आमी कडसारयलो. वेल्यान तो एकलो एकटुकोच चलत गेलो. स्वातंत्र्य आयलें देशाचे कुडके करून. कुटुंबाचीं कुटुंबां उध्वस्त करून. हे अभागी घटने उप्रांतय सत्तांतराच्या सुवाळ्यांत लोक बेफाम जावन नाचलो. आनंदाक ओतो आयलो. हें स्वातंत्र्य जोडपांत ज्याचो वांटो सगळ्यांत चड आशिल्लो, तो मनीस ह्या सुवाळ्यांत नाशिल्लो. दुखेस्तांचीं दुकां पुसपाक गांधी आशिल्लो नौखालींत.

लोकांनी अहिंसेच्या दुताक गांधीक मारून आमच्या आत्म्याचो आमी खून केलो. ताणें दाखयल्ल्या मार्गान आमी गेले नात. तो मार्ग आमी कुशीक उडयलो. परिणाम? चारित्र्याक पड आसा? आमचें समाजकारण घुस्पलें. राजकारणाचो चोंथो जालो. अर्थकारण गडबडलें.

**4.10.84**

आमगेल्या अर्थकारणाची घडी आतां इल्ली इल्ली बसत चलल्या. अशें अर्थमंत्र्यान हालींच सांगलां. हें विधान खरें खावंक मन धजना. आजवेर आमचें अर्थकारण अशें जालां. गिरेस्त अदीक गिरेस्त जायत गेला. कांय गरिबांची परिस्थिती निवळल्या. कांय गरिबांचो जीव गरिबींतूच मुंगरत चल्ला. मध्यम वर्ग दिसान दीस ना जायत चल्ला.

तुटीच्या अर्थसंकल्पान जिनसांचे भाव वाढत आसात. आज शहरां आनी खेडीं हांच्यांत एक विशम अंतर चडत गेलां. देशाचे उदरगतीखातीर आमचोय देश महासत्तां कडल्यान रिणां घेता. ह्या रिणांचो सदांच एक भंय आसता. रीण दिता तो देश रीण घेवपी देशाची बाजारपेठ आपल्या हातांत दवरूंक सोदता. हाका लागून उदरगत जावचे परस म्हारगायेचो भस्मासूर माथ्यार बसता.

**24.10.84**

काल दिवाळी. अमंगलाक पेल्यान आमडून जें जें मंगल आसा, जें जें पवित्र आसा, ताका येवकार दीत रावपाचो हो सण! काळखाक कुशीक उडोवन, मनशांनी सदांच उजवाडाचे वाटेन चलत रावचें हें सांगपी हो सण! जाल्यारूय आज, उजवाडाक पेल्यान धुकलून काळखाचीच पूजा जाता. नरकासुराचोच थातो माथो जाता. ताकाच आमी माथ्यार घेवन नाचतात. कृष्णाक विसरत वतात.

**31.10.84**

आज पंतप्रधान इंदिरा गांधीची हत्या जाली. ह्या दोन वर्सांत पंजाब पेटत आशिल्लो. शीख आनी सरकार हांचे मदीं एक तीड आयली. ह्या संघर्शांतल्यान इंदिरा गांधीचो बळी गेलो. तातूंतच तिचो अंत जालो.

दोगां शीख जवानांनी तिजेर गुळयो घाल्यो.

इंदिरा गांधी निर्भय आशिल्ली. साहसी आशिल्ली. दुर्गेवरी तेजिस्ट आशिल्ली. आमच्या देशांतल्या वांझ मुखेल्या मदीं तीच कणखर आशिल्ली. बांगला देशाच्या झुजावेळार तिच्या नेतृत्वाचो कस लागलो. बांगला देशाक स्वतंत्रताय जोडून दिवपांत तिगेलें नेतृत्व वज्र कशें लकलकलें. जाल्यारूय, आणिबाणी पुकारून हो संबध देश तिणें एक बंदखण करून उडयल्लो. आपल्या आड उलयतल्याचो गळो तिणें अंदिल्लो. स्वाभिमानी विचारवंत आनी आपल्यामदीं तिणें एक वणत उबी केल्लीं हेंय तितलेंच खरें.

ती ज्या मार्गान वताली, त्या मार्गा संबंदान मतभेद आसात, आसूंक फावतात. तरी लोकशाहींत लोकशाही मार्गानच वचचेलें आसता. पंतप्रधानाक सत्तेवेल्यान निखळावपाक वेंचणुकेच्याच मार्गान वचूंक जाय आनी हिंसेच्या मार्गान न्हय. आयच्या ह्या खदूळ आनी क्षोभाच्या वेळार गरज आसा ती विवेकाची, त्यापरसय चड गरज आसा ती क्षमेची.

**1.11.84**

गांधी महात्म्याचो खून जाल्या उप्रांत ह्या देशांतल्या लोकांनी ब्राह्मणांची जशी वाताहात आनी दुर्दशा केली, तेच तरेची दुर्दशा इंदिरा गांधीच्या खुनाउप्रांत, शिखांच्या वांट्याक आयली. अशें जावंक फावनाशिल्लें. काय जाणांच्या धर्मकोल्लाखातीर निरपराध लोकांचो बळी वचूंक फावना. ह्या देशाक हें सोबना.

गीता अहिंसेसारको धर्म ना म्हणून सांगता. ह्या देशांतच जल्माक आयिल्ल्या बुध्द भगवानान अहिंसेक करूणेची जोड दिल्या. महाभारतांत क्षमेचें भौन भौन गुणगान गायलां. ह्या देशाक एक संस्कृतीक परंपरा आसा. क्षोभांतय विवेक जागृत दवरप ही ती परंपरा. हे परंपरेक खंड पडूंक फावना.

हिंसेन हिंसा वाडटा. द्वेशान द्वेश वाडटा. विध्वंस एका खिणांत करूं येता. खिणां मजगतीं मनां तोडूं येतात. मना जोडटलो जाल्यार मात प्रेमाचो एक एक चिरो दर दिसा चडयत रावंचो पडटा.

**20.12.84**

भाशेंतल्या प्रत्येक शब्दाक, खासा ताजो असो एक रंग आसता. खंयचोच कोशकार तो रंग जिवो करूंक पावना. हो फक्त शब्दाक प्रतिशब्द दिता.

**16.1.1985**

यश जोडटकीर कितलेशेच जाण त्या यशांत आपलो वांटो सांगतात. अपेसाचो भाग कोणच सोदिनात. देखुनच यश समस्तांचें, अपेस जण एकल्याचें.

**27.1.1985**

थोड्यांच्या वांट्याक आयुश्यभर कस्ट आनी दगदग येतात. घडये कर्म तशें प्राक्तन आसूये. आपल्या कर्तुत्वान मनीस आपल्या प्राक्तनाचोच सोद घेत आसता. जितले कर्तुत्व मोठें तितलें प्राक्तनय मोठें. देखुनच हड्ड्यार गुळयो झेलप हें गांधी म्हात्म्याचें प्राक्तन आसता. क्रिस्त स्वाम्याक खुर्सार चडचें पडटा. सॉक्रतिसाक विखाचो पेलो ओठांक लावंचो पडटा. आनी आमच्या सारखिल्यांक? वेळ बरो आसल्यार खेळ बरो जाता. घेतिल्लें सवंग रंगता.

**10.4.1985**

जिणेचो ठावच लागना. हिमालयाच्या उंचातल्या उंच तेंगशेपरस जिणेची खोलाय व्हड आसा. जिणेचो ठाव घेवंक बुडी मारतल्यांचो जीव कासावीस जाता. खर हाताक लागचे पयलींच वयर सरचो पडटा. जीण म्हळ्यार दर्याच्या ल्हारांवेली सकाळ न्हय, आनी दोंगरा फाटल्यान अस्तमानाक गेल्ली सांजय न्हय. जीण दर्या इतलीच अफाट आसा. मळबाइतलीच खोल आनी अनंत आसा.

**22.4.1985**

आज शिवजयंती. गोंयांतच न्हय, तर संबंध भारतांत मोठ्या दबाज्यान मनोवपाचो हो दीस. लोकांचें सत्व कशें जागें करचें हें शिवाजीकडल्यान आमी शिकचें.

शिवाजीन महाराष्ट्राचें सत्व जागें केलें. सह्याद्रिच्या फातराकणकणीं आपल्यापणाचो अभिमान जागयलो. देखुनच, शिवाजी मेल्या उप्रांतय महाराष्ट्र स्वराज्याचो मंत्र विसरूंक पावलो ना.

शिवाजी जन्माक येवंक नाशिल्लो जाल्यार स्वराज्य हें उतरय जन्माक येवचें नाशिल्लें. 'स्वराज्य' ह्या एकाच उतराखातीर शिवाजीकडेन आमी कृतज्ञ रावपाक जाय, तेचपरी विजयनगरच्या हिंदू राज्याचोय आमी जयजयकार गावपाक जाय. विजयनगराचें हिंदू राज्य जन्माक येवंक नाशिल्लें जाल्यार, घडये शिवाजीय जन्माक येवंक पावचो नाशिल्लो.

**1.5.1985**

पुर्तुगालचो सर्वश्रेश्ठ कवी Fernando Pessoa एक सत्य बरोवन गेला. "In every case the nobler true genius, the less noble the fate. A small genius gets fame, a great genius gets obloquy, a greater genius gets despair, a god gets crucifixion."

दर कलावंताच्या प्रत्ययाक हें सत्य येता. हारसो कशीं हीं उतरां. त्या हारशांत प्रत्येक कलावंतान आपलें रूप पळोवन घेवंचें. आपणेंच आपल्याक जोखचो.

1.7.85

विसावो शेंकडो सोंपत आयला. एकविसाव्या शतकाच्या हुंबऱ्यार आज आमी उबे आसात. विज्ञान दिसान दीस प्रगतिचीं सोपणां चडत आसा, नवें नवें तंत्रज्ञान निर्माण जायत आसा. ह्या तंत्रज्ञानाक लागून आज मनशाचे श्रम उणे जाल्यात. जाल्यारूय आज मनशाक थंडाय मेळना. ताका स्वस्थसाण ना.

आज मनीस हिंसेक प्रवृत्त जाला. धर्मकोल्ल मातून आयला. दुस्वासाचो विखार फुलून आयला. मनशाचें मनीसपण उणें जालां.

धर्म मनशाक मनशाची हत्या करूंक शिकयना. जें दुसऱ्यांनी आपल्याक केल्लें मानना तें आपणें दुसऱ्यांक करूंक फावना. अशें धर्म सांगता. धर्म मनशाक प्रतिस्टा दिता, कला मनशाक मनीस म्हणून जियोवंक शिकयता. मनशाचें मनीसपण जांगयता.

खंयचेंच राष्ट्र आपल्या भूतकाळांतल्या गौरवाच्या इतिहासाचेर जियोवंक पावना. राष्ट्र जितें उरतलें जाल्यार ताचो वर्तमानकाळय व्हडविकेचो जावंचो पडटा. तसो तो जातलो जाल्यार दर पिढयेंत विद्येच्या सगळ्या मळार नवे नवे प्रज्ञावंत जन्माक येत रावपाक जाय. प्रज्ञावंतांची प्रज्ञा फुलून अळार जावपाक आनी सृजनाची तांक फोंपेवन येवपाक, तशें वातावरण तांकां मेळपाक जाय. दुर्दैवान आज देशांत प्रज्ञावंतांची प्रज्ञा फुलून यो सारखें वातावरण ना. गोंयांत तर साप्प ना.

हें वातावरण निर्माण करचेलें काम आमच्या सरकाराचें, आमच्या सामाजिक संस्थांचें, आमच्या आकादेमीचें, आमच्या विद्यापिठाचें, आमच्या धर्मपिठांचें, आनी आमच्या धनिकांचें. आमच्या धनिकांकूय ह्या फुडें आपली जापसालदारकी चुकोवंक मेळची ना.

फुडारय गौरवाचो जातलो जाल्यार ताजी आंखणी आजच जावंक जाय. आठय दिकांचें वारें आमच्या आंगणांत आमी खेळोवंक जाय. ध्यानांत धरूंक जाय की culture - contacts abundant and mutually contradictory, are effective in realizing a Nation and a literature, when they act upon a national conciousness ready to synthesize them.

15.7.85

मनीसजात जन्माक येत पासून अन्ना ममस्या तिका भेस्टायत आसा. विसावो शेंकडो सोंपत आयलो तरी ही समस्या तशीच आसा. भूक संसाराचे फाटीर खंयी ना जाल्यार खंयी तरी आपलें तांडव नृत्य खेळत आसा.

आमगेले पुर्विल्ले पुरातन जाण्टेले अन्नाखातीर उद्गीथाच्या हिंकारान वाटार भरून उडयताले. अन्नाखातीरच तांचें सामगान आसतालें. अन्नाखातीरच ते यज्ञ करताले. यज्ञ हो अन्नाखातीर करचेलो तांचो यातुविधी आशिल्लो. अन्नान आपलेकडेन केन्ना फाट करूं नये म्हणून, केन्ना वरूणाची, केन्ना अग्निची, केन्ना इंद्राची ते प्रार्थना करताले. अन्नाक अन्नदेव म्हणून ते कल्पिताले. अन्नाक अन्नब्रह्म म्हणून ते लेखताले.

भूक कितें करिना? भूक विश्वामित्राक सुण्याचीं आतां खावपाक लायता. भूक मनशाक लाचार करता. भूक मनशाक दुसऱ्याचे पांगीत दवरता. भूक मनशाचें रगत हलकट करता. देखुनच, आमगेल्या जाण्टेल्यांनी भुकेक मरण म्हळां.

मनीसजातीचे इतिहासीक प्रवासांत, जांचेर बरे संस्कार जावंक जाय आशिल्ले तांचेर आमी बरे संस्कार करूंक पावनात. भुकेल्ल्यांक अन्न दिवपाक आजुनय आमकां जमना.

आफ्रिकेंतल्या येतियोपिया ह्या राष्ट्रांत आवर्शण पडलां. संवसारांतलीं सगळीं राष्ट्रां त्या राष्ट्राच्या आलाशिऱ्याक धांवल्यांत. रॉक आनी रोल संगीताच्या मानेस्त गायक आनी गायिकांनी आपल्या संगीताच्या कार्यक्रमान थंयच्या भुकेल्ल्यांखातीर एक अब्ज रूपये उबे केल्यात. तरी भूक आळाबंदाक येत अशें दिसना. भूक आसंता आक्राळ-विक्राळ. भूक आसता सर्व ग्रासी. भूक आसता सर्वभक्षी.

आज राष्ट्रां झुजारी शस्त्रां निर्माण करूंक, एकमेकांकडेन सर्त करतात. हे सर्तीपरसय मनशाचे उदरगतीक तीं वावुरलेलें जाल्यार, संसाराचें आनंदभुवन जावपाक कळाव लागचो नासलो.

भुकेल्ल्यांक अन्न दिवन आमची जापसालदारकी सोंपना. तांकां प्रतिस्टेंत जियोवपाक उबारी दिवपाक जाय. दर एका राष्ट्रान सेवेचें व्रत घेवन ह्या वावराक लागल्यारच भूक आटापाक येवंये. मनशाक प्रतिस्टा मेळुंये.

## 2.8.1985

मुल्कराज आनंद ह्या नांवाजत्या लेखकान 'भारताची काणी' ह्या नांवाचें भुरग्यांखातीर एक पुस्तक बरयलां. ह्या दिसांत तें सहज म्हजे नदरेक आयलें. आनी हांवें तें वाचून काडलें.

आर्यांनी द्रविडांचो पराभव केलो अशें मुल्कराज आनंद बरयतात.

द्रविडांनी संबंद हिंदुस्तान व्यापिल्ल्याचो पुरावो मेळना. मोहेंजोदारोची संस्कृती ही द्रविडांची आशिल्ली. अशें हड्ड्यार हात मारून कोणाकच सागूंक मेळना. मोहेंजोदारोची लिपी पुरायेन वाचपाक आजून कोणाकच जमूंक ना.

आर्य भारतांत तोळ्या तोळ्यांनी भितर सल्ल्यात. ज्या लोकांनी नगरां फोडून आर्यांचो सेनापती इंद्र हो पुरंदर जालो, तो लोक द्रविड न्हय. ऋग्वेदांत दस्यू, शबर, अनार्य म्हणून नव्या लोकांचें वर्णन केलां, ते लोक उंच नाकाचे नाशिल्ले, ते बसक्या नाकाचे आशिल्ले.

आर्य उत्तरेकडल्यान कोंकणमेरेन पावले, आनी मध्य ओरिसा आनी महाराष्ट्राचे पुर्वेकडले आवाठांत दक्षिणेकडल्यान द्रविड पावले.

द्रविडांचे प्राचीन वाङमय आज उजवाडाक आयलां तें वाङमय नवो नवो प्रदेश व्यापिल्ल्याच्या उल्हासान भरिल्लें आसा. द्रविडांनी दक्षिणेकडल्यान भारताच्या भायरय वसणुको वसयल्ल्याचो पुरावो मेळटा. द्रविडांचो इतिहास हो पराजितांचो इतिहास न्हय.

आजच्या भारतांत प्रामुख्यान तीन भाशाकुळां नंदत आयल्यांत. पयलें संस्कृतावेल्यान आयिल्ल्या भासांचें इंडो-युरोपियन भाशाकूळ. हें कूळ पंजाब धरून गोंय मेरेन पातळलां. दुसरें भाशाकूळ द्रविड भाशांचें कर्नाटक धरून कन्याकुमारिच्या तोंकामेरेन हें कूळ पातळला. ह्या भायर आनीक एक भाशाकूळ आसा. तें म्हळ्यार ऑस्ट्रो-आशियाटीक भासांचें. ह्या भाशाकुळाचें दुसरें नांव नाग वा मुंडा भाशाकूळ. भारताचे पयले वसणुकेचो सोद घेवंक गेल्यार, तो सोद मुंडाचेच वटेन लागता. आर्य आनी द्रविडांचे वटेन न्हय.

3.8.85

क्रांती मोठें भुलभुलायणें उतर! क्रांती मोह घालता. क्रांती भुलोवन सोडटा.

फ्रेंच राज्यक्रांती, रशियन राज्यक्रांती, जयप्रकाशाची सर्वांगीण क्रांती! ज्या ध्येयांखातीर क्रांतीचीं सपनां आशिल्लीं तीं ध्येयां केन्नाच साध्य जावंक नात. प्रत्यक्षांत येवंक फावनात. क्रांती घडून येवपाखातीर जीं बंडां जाल्यांत, त्या बंडांनी यश जोडलां. क्रांती अपेशी जाल्या.

**4.8.85**

मेगसेसे पारितोषिक दिवन बाबा आमटेच्या कार्याचो अंतरराष्ट्रीय मळाचेर सन्मान जालो. ताणीं केल्ल्या कुस्टरोगाचे सेवेखातीर तांकां हें पारितोषिक मेळ्ळां. बाबा आमटेचो गौरव करून मेगसेसे पारितोषिकाचोय गौरव जाला.

34 वर्सां पयलीं बरोरा जिल्ह्यांतल्या घैण असव्यांत आपल्या बायल भुरग्यांक आनी कांय कुस्टगेग्यांक घेवन ते थंय गेले. थंय ताणीं कुस्टरोग्यांखातीर वसाहत उबाल्ली. तांकां बरे करूनच ते थांबले नात. आपल्या पांयांचेर उबे रावपाक ताणीं तांकां शिकयले. तांकां प्रतिस्टेची जीण जगपाक उबारी दिली. तांच्या ओंठार हांसो फुलयत, कुस्टरोग्याचे जीणेंत खऱ्या अर्थान ताणीं आनंदवन फुलयलें.

ज्यांच्या म्हऱ्यांत पासून वचपाक लोक भियेतात आनी विट्टात, ज्यांच्या वांट्याक सुण्यापास्ट जीण येता, त्या कुस्टरोग्यांची सेवा करपाक काळजांत करूणेचो झरो आसचो पडटा. जो संत आसता तोच हें कार्य करता.

डॉ. आल्बर्ट स्वेत्झर, मदर तेरेझा, आनी बाबा आमटे ह्या आर्विल्ल्या संतांक पळेतकीर मस्तक आपाप तांच्या पांयांकडेन बागवता. आपल्याकच जगपाची एक श्रध्दा मेळटा.

**26.8.1985**

कांय व्यथा कापसावरीं उडून वतात. कांय व्यथा खिणां दवरून वतात. काय व्यथा जन्मभर हुलपायत रावतात.

5.7.86

आज सकाळीं साडे आठांच्या सुमाराक पणजे वटेंतलो मांडवी पुलाचो भाग कोसळ्ळो. आमच्या सुदैवान मनशाची प्राणहानी व्हडली जाली ना. अवघे आठच जाण ह्या अपघातांत सांपडले म्हणून सांगतात.

ज्यांचो प्राण गेलो, तेय मनीसच आसले. तांच्या कुटुंबाक ते जाय आशिल्लेच आसले. आपलीं मायेचीं मनशां कोणाक नाका जायनात.

शंभर वर्सां तगपाखातीर हो पूल बांदिल्लो खंय? एकविसाव्या शेंकड्यांत प्रवेश करपाक ज्या वेगान आमी प्रगती करतात ती प्रगती पुलाक सोंसली ना जावंये. देखून, शंभर वर्सां वाट पळोवपाच्या जाग्यार पंदरा वर्सांतच ताणें आपलें नाक आपटिलें.

पूल कोसळत वचपाचे परिस्थितीक पावला म्हणपाची शिटकावणी सरकाराक मेळिल्ली अशें आसतनाय सरकारान ज्या वेगान पावलां घालूंक जाय आशिल्लीं त्या वेगान घालिनांत. सरकार लोकांच्या जिवांचेर खेळ्ळो. भायल्या देशांत असो अपघात जाल्लो जाल्यार थंयचो लोक सरकाराक सत्तेवेल्यान निखळायतले आसले. जबाबदार अधिकाऱ्यांक ख्यास्त भोगोवंक लायतले आशिल्ले. जाल्यारूय, आमी पडले मेंगे, मेल्ल्या वारीचे!

लोकांक जे तरेचो सरकार फावता, तेच तरेचो सरकार मेळटा म्हणून सांगतात. लोकच जेन्ना कुड्डो आसता तेन्ना तांकां सरकारय कुड्डोच मेळटा. कुड्ड्या सरकाराचो कारभारय कुड्डोच जाता.

अधिकार गाजोवप आनी मुदगो एकठांय करप ही जाल्या सरकाराची आनी सरकारी अधिकाऱ्यांची व्याख्या. देश भ्रस्टाचारान पोखल्ला. गोंयांत तर थोड्यां थोड्यांक दुडवांची सूज आयल्या. तरेतरेच्या आडमार्गान पयसो एकयांय करपाची वृत्ती जाल्या. देशाच्या स्वातंत्र्य संग्रामांत पासून जाणीं स्वार्थत्याग केल्लो, ते पासून सत्तेर येतकीर कळंतरासयत आपलो त्याग वसूल करूंक लागल्यात.

बरो लोक ह्या देशांत आसा. आज तांकां मान ना. आज मान आसा दुडवांक. मान आसा सत्तेक.

आज लोक मस्तो आनी उर्मट जायत चल्ला. मनशाचें मनीसपण उणें जायत चल्लां. ज्या देशांत मनशाचें मनीसपण उणें जायत वता, तो देश उदरगतीक पावना. ताची अधोगतीच जाता.

**10.7.86 (सकाळ)**

महाराष्ट्री प्राकृतांतल्यान मराठी वांगडाच, घडये चिके मात्शी पयलीं कोंकणी वेगळी सल्ली आनी तेन्नाच्या तिच्या नशिबाचे गिरं घुंवपाक लागले. आयतेकार मानांयांकडेन तिचो संबंध आयलो. ती उबंत पडली. कुस्कुटावणी तिच्या वांट्याक आयली. आपल्या हक्काच्या घरांतच तिच्यो बकच्छायो जाल्यो.

कोंकणी जन्माक येतपासून पयलेच खेपो तिका राजभाशेचो पाट मेळपाचो आसा. त्याखातीर आज विधानसभेंत तशें बील येवपाचें आसा.

कोंकणी राजभाशा केल्यार मराठीचो अपमान जातलो अशें मराठीच्या मोग्यांक दिसूंक लागलां. कांय खुबिल्ले आनी खुबळायल्ले मराठीचे मोगी काळे बावटे घेवन विधानसभेर मोर्चा घेवन वचपाचे आसात.

बील हांवें पळोवंक ना, तें कशें आसा म्हणपाचेंय कळूंक ना. जाल्यारूय इंग्लेजीचें म्हत्व गोंयांतच न्हय तर अखख्या हिंदुस्थानांत उणें जायत अशें दिसना. इंग्लेजीकडेन पौठो घांसपाक हिंदुस्थानांतले एकेय भाशेक तांक ना.

भास हें जाण्टेल्यांचें देणें आसता. जाण्ट्यांनी दिल्लें तें दायज आसता. देखून, कोंकणींतल्यानच आमचें आत्मपण आकाराक येतलें. दुसरे भाशेंतल्यान न्हय.

प्रत्येक निजाचो गोंयकार कोंकणी उलयता. तो आपलें मन आनी काळीज एकमेकांकडेन कोंकणींतल्यानच उक्तें करता. अशें आसतनाय आमच्याच कांय भावांचो कोंकणीक विरोध आसा हें दुर्दैव.

मराठीचें प्रस्थापन करपाक, तिका गोंयच्या आडच्याभायर धांवडावंक ना. मराठी मरूंक ना. ती जिवीच आसा. मराठीक येदो व्हडलो शेकान शेक महाराष्ट्र आसा. मराठीचो विकास गोंयकारांचेर आधारून ना. महाराष्ट्र सरकार आनी महाराष्ट्रांतले लोक मराठीक केळोवपाक समर्थ आसात. तांकां गोंयकारांचे धिगयेची निखालस गरज ना.

कोंकणीक मान-भौमान केन्नाच मेळूंक ना. तो आतां मातसोसो मेळूंक लागल्यार मराठीच्या मोगयांनी घर माथ्यार घेवन अच्छेव कांडपाची

गरज ना. ह्या फाटल्या तीन दिसांत ताणीं सुमाराभायर मस्ती केली. असली मस्ती कोंकणीच्याय नांवान जावंक फावना. भास ही मनां जोडपाक आसता, मनां तोडपाक न्हय.

भाशेच्या नांवार एकमेकांच्यो तकल्यो फोड्रूंक फावनांत. आज देशांत विखंडतायेची प्रवृत्ती मातून आयल्या. ही प्रवृत्ती अशीच चल्ली जाल्यार ती आमचो घात करतली. देशाचो फुडार भंगयतली.

कोंकणी राजभाशा केल्यार कितें जातलें? कसलो अनर्थ जातलो? कागदार तिका भौमानाचो पाट मेळटलो. परिस्थिती आसा तशीच उरतली. संबंध देशांत जसो आज इंग्लेजींतल्यान कारभार चलता तसोच हांगाय चलतलो. आमच्या देशांतल्यो सगळ्यो भासो आज इंग्लेजीच्यो धेडयो जाल्यात. ही लज कोणाकच दिसना.

ह्या चाळीस वर्सांत कोंकणीन एक एक पावल फुडेंच घालां. इतिहासाचें वारें आज तिजेवाटेन घोळटा. राजभाशेचो पावंडो तिका मेळुये. ज्या दिसा गोंयांत सरकारी कारभार कोंकणी भाशेंतल्यान जातलो, त्याच दिसा खऱ्या अर्थान ती राजभाशा जातली, हरशीं न्हय.

ती राजभाशा जातली जाल्यार आमकां घाळ रावपाक मेळचें ना. आमची आळसाय सोडून तिका आमी सर्वांगान फुलोवची पडटली. त्या कामाक आमी पेंगट बांदूया. दुसऱ्यांच्या उपकारांचेर आमी रावूंया नाका.

**22.12.86**

कोंकणी भाशेच्या नांवार फाटलें तीन दीस धरून ज्यो घटना गोंयांत घडत आसात, त्यो घटना गोंयकारांक भुशणादिक जाय सारक्यो नात. मार्गाचेर आडवणां घालून येरादारी बंद करप, टेलेफोनाच्यो सरयो कापप, जिपी हुलपावप, बसींचेर फातर मारप, घरांची तोड-फोड करप, आमदाराक बळयां राजिनामो दिवपाक लावप हें गोंयकारांक सोबना. मडगांवां गरजेविणें लश्करान केल्ल्या गुळयांच्या गोळीबारांत एका तरण-धाकुट्याक मरण आयलें. डोंगरेर दोन पंगडां मजगतीं जाल्ले मारामारींत पांच-स जाणांची हत्या जाली. ह्यो घटना कोंकणीक फुडें व्हरूंक पावतल्यो अशें दिसना. कोंकणीचीं पावलां घडये चार पावलां फाटींच वचुयें.

संबंध देशभर हिंसा शबय घालीत आसा. गोंयच मातशें थंड आशिल्लें. जाल्यारूय, घडिल्ल्यो घटना पळेतकीर हांगा धर्मकोल्लाचो म्हारू तकली वयर काडटलोसो दिसता.

आज ह्या देशांत गांधी महात्माच्या तोलाचे मुखेली नांत. मुखेली आसात ते गिड्डे, साप्प मोटव्या मनाचे. ताका लागून ताणीं सुरवात केल्ली खंयचीच चळवळ ताच्या हातांत उरना. ती सुडाच्या हातांत पावता.

गोंयांत राजभाशेचो पाट कोंकणीकच फावता. कोंकणीकच तो मेळपाक जाय. जाल्यारूय, त्या पाटाक रगताचे दाग पडूंक फावनात. हिंसेन खंयचीची चळवळ फुडें वचना. चळवळी फाटल्यान एक रचणुकेचें कार्य आसल्यारच ती चळवळ फुडें वता.

क्रांती हिंसेन जायना. ती मनशांच्या विचारांत जावंची पडटा. भौमानेस्त ॲर्नोल्ड टॉजनबिन 'इतिहासाचो अभ्यास' ह्या आपल्या ग्रंथांत म्हळां : ''तरसाद म्यानांतल्यान भायर काडून तिका रगताची रूच लागतकीर ती सासणाची म्यानांत बंद करून दवरपाक जमना. परत परत रगत पियेल्ल्या बगर ती रावना. मनशांच्या मांसाक संवकल्लो वाग मरण पत्करता, जाल्यारूय मनशाक मारून खाल्याबगर तो रावना. भोंवडेकारांचे गुळयेन एक दीस आपली हत्या जातली हें तो जाणां जाता तरी मनशाच्या मांसाची भूक ताका सांवरना. शस्त्रांच्या आनी हिंसेच्या नाड्यार जे आपले

प्रस्न सोडोवन थंडाय हाडूंक पळेतात, तांची गत अखेरेक मनशाच्या मांसाक संवकल्ल्या वागा सारकीच जाता.''

ह्या दिसांत विध्वंसाखातीर जें बळगें खर्च जालां, तें बळगें कोंकणीच्या सृजनाखातीर खर्च जाल्लें जाल्यार, भांगरापरस हळडुवें जातलें आशिल्लें. चळवळीच्या नांवार, भावनांक हात घालून लोकांक खुबळावपाक सोपें आसता. लोकांचो विवेक जागोवन तांचेकडल्यान सृजनाचें काम करून घेवप हें खूप कठीण आसता.

**3.12.1986**

न्हवरोय मोनो आनी व्हंकलय मोनी अशी ह्या दिसांत आमच्या सरकाराची अवस्था जाल्या.

23.9.90

आज पंडित गेलो. कॅन्सरान जर्जर जाल्लो तागेलो जीव, सासणाची न्हीद न्हिदलो. आनी आमचो विशेकय वर्सांचो सांगात आयच्यान तुटलो.

ताच्या मर्णान आमच्यांतलो एक प्रज्ञावंत कवी गेलो. तागेली कविता पाळेंच्या सैमाचेर किल्लली आनी पोसवली. थंयचो जागर, थंयचें रोंमट, थंयच्यो धालो अशा लोकवेदांतल्यान ती फुल्ली आनी फळली.

सप्तकांतल्यान एक खेपो तरी तो म्हगेर येतालो. हांवय केन्नाय तागेर वतालों. ओशिपितालांत आसतना, म्हजो हात आपल्या हातांत घेवन, ताज्यान उलोवपाक जमनाशिल्लें, तरी तो कितेंय तरी सांगपाचो यत्न करतालो. तातूंतलो भावार्थ कळटलो आनी काळीज तुट्टालें.

ओशिपितालांत तो देडेकय म्हयनो उल्लो. तागेली व्याधी पयली काळजाची कशी धल्ली. तिजेर उपचार जाले. तातूंतल्यान तो बरो जाल्ल्यावरी दिसलो. जाल्यारूय, रोखडोच ताका परत ओशिपितालांत व्हरचो पडलो. हे खेपो कॅन्सर उप्रासून आयलो. कॅन्सर बळून मेंदवा मेरेन पाविल्लो. ह्या कॅन्सराक लागून हो सणसणीत आनी साहसी मनीस, म्हयन्याभितर आशिल्ल्याचो नाशिल्लो जालो.

दर एक मनशाक कसलोय तरी दोश आसता. पंडित हाका आडवाद नाशिल्लो. तागेले दोश मान्य करूनय, कलावंत म्हणून तो खूप उंच पांवड्यार आशिल्लो.

जायते खेपो मिरामार वचून आमी थंय रेंवेर बसताले. थंयचे कितलेतरी सुर्यास्त आमी वांगडा पळेल्यात. सूर्य अस्तमानाक वतना मळबाचेर खिणाखिणाक जे रंग बदलताले ते आमी अप्रुपान पळेल्यात. केन्ना ल्हारांच्या रूद्र रूपांत आमकां घालून घेवंचेंशें दिसतालें केन्ना ल्हारांच्या मंद नाचाक आमगेले काळीज ताल धरतालें.

पंडिताच्यो कांय इत्सा अपूर्ण उल्ल्यो. तागेले घरकान्नीचें आत्मचरित्र "Space and Time" छापून तयार जायत आयलां. येता त्या

आब्रिलांत ताका 75 वें वर्स लागतलें. त्या निमित्यान आपल्या कवितांचो समग्र खंड काडपाचो ताच्या मनांत आसलो. तागेले घकान्नीचें आत्मचरित्र उजवाडा येतलें. कवित्रांचो समग्र खंडय उजवाडा येतलो. ऋतुचक्राचो फेरो घुंवून पूर्ण जातलो. तो पळोवपाक मात पंडित नासतलो.

(पंडित = कवी र. वि. पंडित)

**20.10.05**

आज कसलेच पडसाद उठनात. Sex आनी हिंसा हीच मातून आयल्या. आज दर एक देशाची दादागिरी अमेरिका करता. सगळ्याच देशांक आज निती पड आयल्या.

## पांडुरंग भांगी हांगेली बरपावळ

1. **दिस्टावो** - कविता संग्रह - 1972
2. **सालोर्मे** - अनुवादीत नाटक - 1975
   (मूळ लेखक : [illegible])
3. **अदृस्टाचे कळे** - कविता संग्रह - 1982
4. **चित्रांगदा** - अनुवादीत नाटक - 1990
   (मूळ लेखक : रवीन्द्रनाथ टागोर)
5. **यदिपराजा** - अनुवादीत नाटक - 1992
   (मूळ लेखक : सॉफाक्लिश)
6. **कोंकणी शब्दसागर** - शब्दकोश - खंड:1 - 1992
7. **चांफेल्ली सांज** - कविता संग्रह - 1997
   (साहित्य अकादेमी पुरस्कार)
8. **आशाढांतलो एक दीस** - अनुवादीत नाटक - 1998
   (मूळ लेखक : मोहन राकेश)
9. **तारवटी** - अनुवादीत नाटक - 2000
   (मूळ लेखक : फेर्नांद पेस्सोअ)
10. **शब्दसागर** - शब्दकोश - खंड:2 - 2003

